# जाग

वर्स २४ ◇ आंक २ ◇ सप्टेंबर १९९७

संपादपी : रवीन्द्र केळेकार

वावुरपी संपादपी : माधवी सरदेसाय

उजवाडावपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.

अक्षर जुळणी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव, गोंय.

छापपी : प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.

भायलें चित्र : मिलन

## ह्या आंकांत



| | | |
|---|---|---|
| वर्सुकी पटी | : | रु. ७५/- |
| विद्यार्थ्यांखातीर | : | रु. ६०/- |
| तीन वर्सांची पटी | : | रु. २००/- |

चेक वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
(चेक मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत
धा रुपये अदीक जोडचे)

वेव्हाराचो नांमो:
**जाग** म्हयनाळें
२०१-बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव – गोंय ४०३ ६०१.

किरकोळ आंकाचें मोल: रु. ७/-

# नदर संपादप्याची

## काळो पयसो भायर कसो काडचो

काळो पयसो भायर येवंक जाय. ना जाल्यार खंय आमची उदरगतिची एकूय येवजण मुखार वचपाची ना. सुमार एक लाख कोटी रुपये काळे जाल्यात असो मधू दंडवते हांचो अदमास आसा.

हो काळो पयसो भायर कसो काडपाचो? जांचेकडेन असलो पयसो आसा तांकांच हें बेस बरें खबर आसा. तांचेकडेन हाच्यो तरांतरांच्यो माण्णयो आसात. 'तुमी पयसो भायर काडात, तुमकां ही सवलत मेळटली, ती मेळटली' असलीं आश्वासनां सरकारान तांकां दिलीं म्हूण काळो पयसो भायर येवपाचो ना.

खरेपणानशीं काळो पयसोच कोणाक करूंक मेळूंक जायना.

हालिंसाराक कितले-शे 'घोटाळे' उक्ताडा आयले. बोफोर्स घोटाळो, शॅयर घोटाळो, हवाला घोटाळो, साकर घोटाळो, गोरवां-खावड घोट्टाळो – एक आनी दोन न्हय, सुमार सतरा घोटाळे ह्या दोनचार वर्सांत गाजले. ख्यास्त कोणाक जावंक ना खरी, पुणून कोणा कोणाचे हात ह्या घोटाळ्यांनी घुस्पल्यात हें जगाक कळ्ळें, ही गजाल म्हत्वाची. राष्ट्रीय चारित्र्य म्हणटात तें कोणांतूच ना – सत्येर आशिल्ल्या फुडाऱ्यांक ना, विरोधी पंगडांतल्या फुडाऱ्यांकूय ना; प्रशासनांतल्या अधिकाऱ्यांकूय ना, पोलिसांकूय ना – वयर सावन सकल मेरेन सगळे कडेन चोरूच चोर भरल्यात म्हणपाचें स्पस्ट बरें दिसून आयलें.

ही उक्ताडा आयिल्ल्या घोटाळ्यांची खबर. उक्ताडा येवंक नाशिल्ले कितले घोटाळे चलल्यात जातले, कोंत आनी हिशोब मेळपाचो ना.

हें आमच्याच देशांत घडलां अशें न्हय. दक्षीण कोरियांतले तीन राष्ट्राध्यक्ष असल्या घोटाळ्यांनी सांपडल्यात. आनी तांकां ख्यास्त जाल्या. जपानांतल्या दोगां प्रधानमंत्र्यांक चोरयेचो आळ आयिल्ल्यान जुटये वयल्यान कडेक सरचें पडलां. इटालींत तर आत्र्या-पयऱ्यांन सरकारां – ह्या एकाच कारणाक लागून – बदलत आयल्यांत. कोण तरी 'खावोवपी' आसात आनी कोण तरी 'खावपी' आसात म्हूण हें चल्लां वा म्हणूं येता – खावपी आसात म्हूण खावोवपी येवंक पावल्यात. भौराष्ट्रीय कंपन्यांनी जंय जंय आपणालें जाळ पातळायलां थंय थंय असले – उक्ताडा आयिल्ले आनी उक्ताडा येवंक नाशिल्ले – घोटाळे चल्ल्यात. आमचो देश तर बुभुक्षीत राजकर्ण्यांचो. कितलें खावचें हाचो अदमास लेगीत नाशिल्ल्यांचो. सत्येचें कदेल कशें हातासचें आनी हातासले उपरांत तें कशें तिगोवन धरचें हेच एके विवंचनेंत पडिल्ल्या लोकांचो. सत्येर वचप तें फकत 'खावपा' खातीर अशें मना परसून मानतल्यांचो. काळो पयसो निर्माण हेच करतात आनी हेच तो आपापणाले शिमेंत घोळयत रावतात. तांकां ह्यो सवलती दिल्यो वा त्यो दिल्यो म्हूण कितें जावपाचें आसा? काळो पयसो थोडोच भायर सरपाचो आसा! आनी, धरुंया, सरलो, जाल्यार परतो तांचेकडेन तो जमचो ना हाचें खरेपण खंय आसा?

उपाय घेवंक जाय तो एकाच वांगडा दोट्टी आसूंक जाय. त्या उपायान सगळो काळो पयसो भायर येवंक जाय. आनी तेच बरोबर काळो पयसो करपाचे दरवटेच सगळे बंद जावंक जाय.

असलो एकूच उपाय आसा —

रिझर्व बँकेन घोळटिकेंत आशिल्ल्यो सगळ्यो नोटो बदलून दिवच्यो. चलतात त्यो नोटो डिसेंबराचे ३१ मेरेन चलतल्यो, ते उपरांत बदल्लेल्योच

नोटो चलतल्यो, पोरण्यो चलच्यो नात असो निर्णय घेवचो.

सगळो काळो पयसो भायर येतलो.

कांय वर्सा फाटीं सरकारान शंबर रुपयांच्यो नोटो बदलून दिल्ल्यो. त्यावेळार व्हडल्या व्हडल्यांचो आवरो उडिल्लो. कितलेशेच जाण आताक येवन मेल्ले. हे खेपे सगळ्योच नोटो बदलच्यो. वर्सान वर्स नोटो बदलतल्यो. त्या त्या वर्सा त्या त्या वर्साच्योच नोटो चलतल्यो, फाटल्यो खंयच्योच चलच्यो नात असो नेम करचो. म्हणटकूच सगळो काळो पयसो भायर येतलो. जायत व्हय काळीज मधू दंडवतेंक हो उपाय घेवपाचें? जावंक जाय. निर्मळ आनी धीट राजकर्णी ते एक. तांकां काळीज जालें ना, जाल्यार —

देशांतलो काळो पयसो भायर येवपाची आनी राष्ट्रीय चरित्र्याचो पांवडो वयर सरपाचीय आस्तूच ना.

## ना जाल्यार आमकां नक्सलवादी जावचें पडटलें

तो दोतोर. खूब जोडटा. बायल बायो-कॅमिस्ट. तिची एक 'लॅब' आसा. तिवूय खूब जोडटा. तांगेलें घर भरून दार ओतता.

भुरगीं नात. नाकात म्हूण नात.

दोगांय मुदलांत गरजे पुरती जोड आशिल्ल्या घराब्यांतलीं. मदल्या वर्गांतलीं. मदल्या वर्गाचे अर्थतज्ञांनी दोन पांवडे केल्यात. एक वयलो. दुसरो सकयलो. हायर मिडल क्लास, लोअर मिडल क्लास. हीं मुदलांत लोअर मिडल क्लासांतलीं. आयज तांणी आपणालो आसपाव वयल्या पांवड्यांत – हायर मिडल क्लासांत – करून घेतला. पणजेंत एका व्हडल्या फ्लॅटांत रावतात. फ्लॅटांत फ्रीझ, टी.वी. वॉशिंग मशीन, वॅक्युम क्लीनर, कुकिंग रेंज असलें सगळें भरलां. पयर तांगेर पाविल्लों. ऍयर कंडिशनरूय आयिल्लो पळेलो.

दोगांयच्यो दोन गाडयो आसात.

दोगांकूय संगिताची ओड आशिल्ली. गोंयांत फाटल्या कांय वर्सा सावन कोणा कोणाच्या उगडासान कांय संगीत 'समारोह' जातात. सगळ्या समारोहांनी दोगांय दिश्टी पडटालीं. नाटकांय पळेतालीं. आतां ह्या गजालीं खातीर तांकां वेळ मेळना. घरांत पुस्तकांची एक आरमार आसा. बरीं बरीं पुस्तकां आरमारींत हाडून दवरल्यांत. पुणून पुस्तकां वाचपाक तांकां आतां निखालूस वेळ मेळना.

सरसमान लोकांच्यो सुखाच्यो ज्यो कल्पना आसतात त्योच कांय दिसां पयलीं हांच्योय आशिल्ल्यो. आतां त्यो बदल्ल्यात. 'पयसो करपांतूच खरें सूख आसा' अशें दोगांय आतां मानूंक लागल्यांत.

'मनी मेकिंग मशिनां' जाल्यांत.

आमच्या देशांत खंय असले वीस कोटी लोक आयज आसात. एकविसाव्या शतमानांत ते खंय तीस कोटी जावपाचे आसात.

देश म्हणिनाफुडें सगळ्यां मुखार उबे रावतात ते हे लोक. शासन प्रशासनांतले अधिकारी, डॉक्टर इंजीनियर, बिल्डर कॉंट्रॅक्टर, वेपारी, मॅनेजर, उद्देगपती, वकील सगळे ह्या वर्गांतले. देशाची नाडी हांच्याच हातांत आसा. राजकणूर्य होच लोक चलयतात. टीवीर जायराती येतात त्योय हांचेच खातीर आसतात. भौराष्ट्रीय कंपन्यांची नदर ज्या भारताचे बाजारपेठेचेर थिरावल्या तो ह्या लोकांचो भारत. हांच्याच बऱ्या भल्याचें चिंतून सरकार आपणालीं बजेटां तयार करता.

देशाचें अर्थतंत्र, शिक्षण तंत्र, प्रशासन तंत्र सगळें ह्याच लोकांचो विचार करून चलता.

सातव्या दसकांत प्रॅशर कूकर आनी टू-इन-वन घेवप हो ह्या लोकांचो हावेस आशिल्लो. आठव्या दसकांत ते कलर टीवी आनी स्कूटर घेवंक मुखार सरले. आयज ते वॉशिंग मशीन, कुकीग रेंज आनी मारुती कार हांचेर दोळे लावन बसल्यात.

तांच्यो गरजो वाडोवपाचें आनी त्यो भागोवपाचें काम भौराष्ट्रीय कंपन्यो करीत आसतात. हाका लागून तांचो स्टँडर्ड ऑफ लिवींग वाडत गेला तसो तांचे चाल चलणुकेंतूय फरक पडत गेला.

हो 'हायर मिडल क्लास' आतांच ह्या भौराष्ट्रीय कंपन्यांच्या युगांत जल्मा आयला, अशें न्हय. तो पयलींय आशिल्लो. पुणून ह्या वर्गांत त्या वेळार वयल्या जातिंच्या लोकांचो आसपाव जातालो. श्रमजीवी लोकांचे फाटीर चडून तांच्या श्रमांचो लाव घेवपी लोकांचो – ब्राह्मण-क्षत्रीय-वैश्यांचो – जातालो. तांकां आमी 'श्रीमंत' म्हणटाले. एके तरेचें बेंदल्लेचें जिवीत – पॅरासिटीक – जिवीत ते जियेताले. लोअर मिडल क्लासांतल्या लोकांचे ते 'आदर्श' जाल्ले. तांचे सारकेच जावपाक तेवूय आंवडेवंक लागले. कांय जाण तांचे सारके जाले. आनी ल्हवू ल्हवू 'नव-श्रीमंत' ह्या रुपान ते मुखार येवन तांच्यांत भरसले.

आदल्या श्रीमंतांत थोडीं तरी घरंदाजपणां दिश्टी पडटालीं. 'नवश्रीमंतां'त तीं मात पसून दिश्टी पडना जालीं. घरंदाजपणाचे सुवातेर ते अभद्रपण – व्हल्गॅरिटी – घेवन आयले. पयसो खंय आनी कसो खर्च करचो हें सारकें खबर नाशिल्ल्यान ते आपणाले श्रीमंतिचें प्रदर्शन करपांतूच गुल्ल उरले. तांतुंतूच व्हडपण मानपाक लागले. तांच्या बायलांच्या आंगावयल्यो वस्ती पळोवच्यो. म्हणटकूच तांचे संस्कृतायेच्या पांवड्याचो अदमास येतलो.

ह्या नवश्रीमंतांनी बाजाराचें रूप लेगीत साप बदलून उडयलें. चाळीस रुपयान एक मानकुराद आंबो घेतात ते हेच लोक.

स्वराज्यांत ह्या 'हायर मिडल क्लास' लोकांत कांय नव्या लोकांची भर पडली. स्वराज्यांत आमी लोकशाय नांवाचो एक बुलडोझर घेवन आयले. ह्या बुलडोझरान राजकी मळा वयले ऊंच उणाक वेगळेचार ना करून सगळ्यांक एका तळार हाडून दवरले. जे लोक युगां संकिंनी चिड्डल्ले चेपिल्ले उरिल्ले ते शिकपाक लागले. शिकून वयर सरले. वेंचणुकांनी उबे रावपाक लागले. वेंचून येवन सत्येच्या सुवातांचेर वचून बसले.

'हार• मिडल क्लासां'त हांचोय आतां आसपाव जावपाक लागला. हेवूय लोक आतां आदल्या 'हायर मिडल क्लासां'तल्या लोकां भाशेन बेंदल्लेचें – पॅरासिटीक – जिवीत जियेवपाक लागल्यात. भौराष्ट्रीय कंपन्यांच्या 'टारगेटां'त आतां हांचोय आसपाव जावपाक लागला.

मुदलांतले श्रीमंत, उपरांतचे नव-श्रीमंत आनी आतांचे हे नव-नव-श्रीमंत मेळून एक नवोच 'हायर मिडल क्लास' आतां देशांत वयर सरला. ह्या वर्गांतले लोक जल्मान खंयचेय जातिचे वा धर्म-संप्रदायाचे आसूं, आयज ते सगळे एकेच जातिचे जाल्यात. एकाच वर्गाचे जाल्यात. मार्क्सवादी भाशेंत सांगचें जाल्यार हांचो वर्ग राज्यकर्त्यांचो. देशाच्या कर्णधारांचो, एक्स्प्लॉयटर्सांचो, देशाचें शोशण करतल्यांचो. देश उद्देगीकरणाचे दिकेन गेलो ना, उदारीकरण, खाजगीकरण हीं धोरणां आपणावन मुक्त-बाजाराचे दिकेन चल्लो ना, जाल्यार संवसांत आमी फाटीं पडटले हें ह्या लोकांचें अर्थशास्त्रीय तत्त्वज्ञान. शिक्षण इंग्रजी भाशेंतल्यान चल्लेंना जाल्यार ज्ञान-विज्ञानाच्या मळार आमी येवरोप अमेरिकेची फाट धरूंक पावचे नात – शेणटले – हें हांचें शिक्षणा विशिंचें तत्त्वज्ञान. आयज देशांत भुरग्यांक केजी पासून युनिव्हर्सिटी मेरेन इंग्रजी माध्यमांतल्यान शिक्षण घेवचें पडटा तें हांकां लागून. गांवचे पातळे वयलें पंचायतिचें प्रशासनूय इंग्रजींतल्यान चलपाक लागलां तेंवूय हांच्या आग्र्याक लागून. देशाक सिंगापूर वा जपान करपाचे दुवाळे ह्याच वर्गांतल्या लोकांक लागल्यात. हो वर्ग सभावान स्वार्थी – सेल्फ-सीकर. आपणाल्या हुद्द्यांचें आनी जोडिचेंच घेवन बशिल्लो, समाजा विशिंच्या लागणुकांची जाणवीक नाशिल्लो. राष्ट्रीय चारित्र्याची पर्वा नाशिल्लो. भ्रश्टाचारांत बुडिल्लो. शारांनी रावपी लोक हो. सत्येर आयिल्ल्या लोकां भोंवतणी आनाळ्यो गुनाळ्यो काडपी. तांची सायबाजात्रा करून

आपणालीं कामां करून घेवपी. आपणाक जाय तेच तरेचें सरकार हाडपी. येवरोपेव वा अमेरिकन 'लायफ-स्टायल' आपणायल्लो. आपणाले संस्कृताये पसून पयस गेल्लो.

ताची पोरणी संस्कृताय ताच्या जिवितांतल्यान गळून पडल्या. येवरोपेव संस्कृताय पुरायेन आपली करूंक तो अजून पावूंक ना. केन्ना पावपाचो ना. हाका लागून जें रितेपण जिवितांत निर्माण जालां तें तो उत्तान श्रिंगारीक फिल्मां पळोवन – वा तसलींच गाणीं आयकून – भरून काडपाक लागला.

पुराय फिल्म इंडस्ट्री ताची ही 'गरज' भागोवपाच्या कामांत गुल्ल रावल्या.

आतां म्हजो प्रस्न —

आमी देश वयर काडूंक जाय, वयर काडूंक जाय म्हणटात तो खंयचो देश? हो.? देशाची लोकवस्ती शंबर कोटिंची जाल्या अशें आमी म्हणटाले त्या वेळार 'हो' देश वीस कोटिंचो आशिल्लो. तो एकविसाव्या शतमानांत तीस कोटिंचो जातलो त्या वेळार देशाची लोकवस्ती एकशेंवीस कोटिंची जातली. 'हो' देश देशाच्या चौथ्या वांट्या येदोच. देशाचे तीन वांटे 'ह्या' देशा भायर आसात. एका देशांत दोन देश आसात, असो हाचो अर्थ जाता. ह्या दुसऱ्या देशाचें आमकां कांयच लागना? हो दुसरो – तीन वांट्यां येदो – देश वयर काडपाची जापसालदारकी कोणाची? आमची न्हय? चौथ्या वांट्यांत रावतल्या राज्यकर्त्या लोकांची न्हय? हो देश आमी पळेला? हो देश पांच लाख गांवांनी रावता. थंय डांबरी रस्ते पावूंक नात. रेल्वे पावूंक नात. चुकून एकाद् दुकली जीप पावली जाल्यार ती पळोवपाक गांवांतले ल्हान-व्हड सगळे घरांतल्यान भायर धांवन येतात. ह्या देशांत टेलिफोन पावूंक नात, टेलेग्राफ ऑफिसां पावूंक नात. कसलेच उद्देग धंदे पावूंक नात. शाळा पावूंक नात. तें कित्याक, पियेवपाचें उदक लेगीत पावूंक ना. हो देश शेतां रोवन पीक काडटा, पुणून जांचेर पीक काडटा त्यो जमनी तांचे मालकिच्यो जावंक नात. ह्या देशांत जण एकल्याचे परंपरेन चलत आयिल्ले धंदे चलताले. ते पयलीं इंग्रजांनी मोडले. उपरांत स्वराज्य सरकारान मोडले. गांवांनी आतां लोकांक कामां नात. कामा खातीर लोक गांव सोडून शारांनी वतात आनी झोपडपट्ट्यांनी रावतात. हांकां गांवांतल्या गांवांत कामां मेळिल्लीं जाल्यार कोण गांव सोडून भायर वचचो नाशिल्लो. कोण झोपडपट्टी नांवाच्या नर्कांत वचून रावचो नाशिल्लो.

हांकां आमी कामां दितले काय दिवचे नात? खंयचीं दितले? हांकां शिक्षण दितले काय दिवचे नात? खंयचें दितले? हांकां कामां दितले म्हणपाचो नित्शय करात. हांकां शिक्षीत करतले म्हणपाचो आग्रो धरून बसात. सध्याचें वर्ल्ड बँकेचें अर्थशास्त्र आनी एन्.सी.आर.टी.चें शिक्षण-शास्त्र कित्याक उपकारा पडपाचें ना, मातूय चलपाचें ना म्हणपाचें स्पस्ट बरें दिसून येतलें.

हांगा इंग्रजी शिक्षणूय चलपाचें ना आनी प्रशासनूय इंग्रजींत चलूंक पावपाचें ना.

आमकां दुसरेच एके वाटेन चलचें पडटलें. खंयचे? 'आउट ऑफ डेट' लेखून जी आमी सोडून दिल्ली तेच वाटेन. तेच वाटेन गांव आत्मनिर्भर जावंक पावतले. तेच वाटेन लोकांक गांवांतल्या गांवांत कामां मेळपाक लागतलीं. तेच वाटेन गांवांनी तरांतरांचें उत्पादन जावपाक लागतलें. तेच वाटेन गांव श्रीमंत जातले. तेच वाटेन गांवचे लोक शिक्षीत जातले. तेच वाटेन लोक अंधश्रद्धेंतल्यान मुक्त जातले. तेच वाटेन देश वयर सरतलो. ताचे संस्कृतायेचो पांवडो वयर सरतलो.

कोण घेवन वतलो देशाक हे वाटेन? ह्या प्रस्नाची जाप दुसऱ्या एका प्रस्नाचे जापेंत आमकां मेळटली. कोण घेवन गेल्लो देशाक स्वराज्याचे दिकेन? कोण झुजिल्लो स्वराज्या खातीर? ज्या वर्गाची वयर हांवें पोटभर निंदा केल्या त्याच 'मिडल क्लासां'तले संवेदनशील आनी सुज्ञ तरणाटे नाशिल्ले ते? जवाहरलाल, सुभाष बोस, लोहिया, जयप्रकाश ह्याच वर्गांतल्यान आयिल्ले. संवसारांत आयजवेर जितल्योय सुधारणा जाल्यो, जितल्योय क्रान्त्यो जाल्यो त्यो सगळ्यो ह्याच वर्गांतल्या तरणाट्यांनी घडोवन हाडल्यात. चुकिचे वाटेन गेल्ल्या देशाक नीट वाटेर हाडून सोडपाचें काम ह्याच वर्गांतल्या तरणाट्यांचें. जें स्वराज्य फाटल्या पन्नास वर्सां सावन मुम्बय, कलकत्ता, दिल्ली, मद्रास, बेंगलोर ह्या वाटारांनी बंदिस्त उरलां तें पांच लाख गांवांनी पावोवपाचें काम हे तरणाटे न्हय जाल्यार कोण करतले? तांचीच दायकी ही. देशांतल्या अंयशीं प्रतिशत लोकांक स्वराज्या पसून कडेक दवरप देशाक सोबय ना, पुटवपाचेंय ना. जवाहर, इन्दिरा, राजीव हांच्या नांवान 'रोजगार योजना' चलोवन देश वयर सरपाचो ना. ना म्हळ्यार नाच ना. देश वयर काडपाक विचारांची दिकाच बदलूंक जाय. जी दिका आमी अबुद्दपणान सोडून दिल्या तेच दिकेन चलूंक जाय.

ना जाल्यार —

नक्सलवादी जाले बगर देशा मुखार दुसरो उपाय उरचो ना. आयज चलता तसो देश हे मुखार कसोच चलपाचो ना.

## चा.फ्रा.

एकुणीसशें बावन्न काय त्रेपन्नांतली खबर. मुम्बयच्या आकाशवाणी केन्द्रा वयल्यान कोंकणी कार्यावळिचें वितरावप सुरू जालें. हांव त्या दिसांनी वर्ध्याक आसतालों. मोटे उत्सुकतायेन कार्यावळी आयकूंक लागलों. पयल्याच सप्तकांत 'वाट पळेतां, दुकां गळयतां / दोळे गेले सुजून' आनी 'ती पालोवं नाका जोत, तुका जोडले दोनूय हात' हीं बयाभावालीं दोन गितां सोडून तिसरें गीत आयकूंक मेळ्ळें ना. म्हजेर कलकल आयलो. 'कोंकणींत गीतां बरोवन दिवपी कोणूच कसो मुखार आयलो ना?' हांवें हुसक्यान म्हजे म्हाकाच प्रस्न केलो. तिडक बाकीबाबांची मारली. 'तांणी बरोवन दिवपाचीं न्हय?' अशें म्हळें. आमचें दैन्य पळोवन मराठीवादी खोश्शी खोश्शी जाले. काका गाडगीळ तांगेले फुडारी. तांणी घोशणा केली, 'कोंकणी कार्यावळी सुरू करतल्यांक आतां पच्छाताप जाले बगर रावचो ना... एका म्हयन्या भितर तांकां त्यो बंद करच्यो पडटल्यो... पळेशात तुमी.' अशा वेळार कान्त काणेकार, यशवंत केळेकार असल्या ज्या दोग तीग कविंनी नवीं नवीं गितां बरोवन आकाशवाणीक दिलीं तांच्यांतले एक चा.फ्रा. द कॉश्त आशिल्ले. तांगेलें 'कोंबले बाबांनो, साद रे घाला / आमगेर आयज बाबू जाला' हें गीत मुम्बयंत रावतल्या गोंय-कारवार-मंगळूर कडल्या दर एकल्या कोंकणी भाशीक घरांत ल्हान-व्हड सगळ्यांचे जिबेर दुसऱ्याच सप्तकांत घोळपाक लागलें.

कान्त काणेकार, यशवंत केळेकार हांकां वळखतालों. हो चा.फ्रा. कोण, नकळ आशिल्लों. एक दीस हेच कोंकणी कार्यावळींत तांच्याच ताळ्यान तांचीच एक कविता आयकूंक मेळ्ळी —

*आलमारींत बूक, बुकांत कविता*
*वाचूंक आशेलों*
*किरकोळ वाळ्य, वाचून गेली*
*हांव खर्शेलों.*
निमाण्यो वळी आशिल्ल्यो —
*काळशेलां मळब, मळबार नेकेत्रां*
*मेजूंक आशेलों*
*मवाली पोर मेजून गेलो*
*हांव खर्शेलों.*

कविता आयकून खोश्शी खोश्शी जालों. म्हळें, चा.फ्रा. फकत गीतकार न्हय. एक व्हड कवीय बी. आकाशवाणी वयल्यान कोंकणी कार्यावळी सुरू जावंक नाशिल्ल्यो जाल्यार असलो एक कवी कोंकणींत आसा म्हणपाची खबर लेगीत आमकां कळची नाशिल्ली.

कांय काळान मुम्बय पावलों. सगळ्यांत पयली भेट आकाशवाणीक दिली. विष्णू नायक कोंकणी कार्यावळिंचे निर्देशक आशिल्ले. नव्या नव्या लोकांक आकाशवाणीचेर हाडून कोंकणीची दीक्षा दिवपाच्या कामांत गुल्ल जाल्ले. तांकां मेळ्ळों. थंयच चा.फ्रां.ची वळख जाली. पयलेच भेटेंत आमी जशे किते एकामेकांक युगां युगां सावन वळखतात असोसो भास जालो. दोग जिवाभावाचे इश्ट बऱ्याच तेंपान एकामेकांक मेळचे तशे आमी मेळ्ळे. विष्णूबाब, चा.फ्रा. आनी हांव धोबीतलावा वयल्या एका रेस्तोरांत वचून बसले. थंय चा.फ्रा.च्याच तोंडांतल्यान तांच्यो आनीक कांय कविता आयकल्यो. 'चा.फ्रा.च्यो कविता फकत आयकुपाच्यो नासतात. त्यो पळोवच्यो पडटात. चा.फ्रा. आपणाल्यो कविता फकत आपणाल्या ताळ्यान म्हणिनात; हातांनी, बोटांनी, दोळ्यांनीय म्हणून दाखयतात. तांगेल्या आंगां आंगांतल्यान तांगेल्यो कविता फुलून येतात' अशें मनोहररायांनी हालीं म्हळां तें पयलेच भेटेंत हांवें अणभवलें.

वळख वाडत गेली तशी तशी चा.फ्रा.च्या जिवितार्चीं दुसरींय आंगां इल्लीं इल्लीं करून स्पस्ट जायत रावलीं. चा.फ्रा.क फकत कवी म्हूण वळखतालों. तांच्या जिविताच्या ह्या एकाच आंगाची वळख आशिल्ली. एक दीस चा.फ्रां.त एक व्हड पत्रकार आसा म्हणपाची जाणवीक जाली. 'पयणारी' नांवाचें एक कोंकणी नेमाळें कन्नड लिपींत ते चलयताले. 'पयणारी' म्हळ्यार आपणालो गांव सोडून पयस गेल्ले लोक – एमिग्रंट. सप्तका सप्तकाक उजवाडा येवपी ह्या नेमाळ्यांचे सत्तर हजार पटयेकार आसात म्हूण कळ्ळें. ह्या नेमाळ्याक लागून चा.फ्रा. फकत कवी न्हय, तर कोंकणींतले बऱ्यांतले बरे एक गद्यकार म्हुण्णूय तांची नामना जाल्ली. विष्णू नायक तांगेल्या गद्याचे एक भक्त आशिल्ले. पयणारींतले तांगेले अग्रलेख कन्नड लिपी जाणा आशिल्ल्यां कडल्यान नागरींत घालून घेताले आनी मोटे रुचीन वाचताले, आमकांय वाचून दाखयताले. म्हळ्यार, चाफ्रा हे फकत गीतकार न्हय, फकत कवी न्हय, बऱ्यांतले बरे एक शैलीकार म्हणपाचेंय दिसून आयलें.

कांय दिसांनी आनीक एक सोद लागलो —

चाफ्रा हे पत्रकारांत चार चौगां सारके पत्रकार न्हय. एक 'मिशन' घेवन बशिल्ले पत्रकार म्हणपाचें कळ्ळें. 'न्यूज' दिवन संतोस मानपी पत्रकार न्हय, 'व्ह्यूज' दिवन वाचप्यांक चिंतूंक लावपी एक पत्रकार म्हणपाचें समजलें. एक विचारवंत, विचारवंतांत प्रगतिशील, प्रगतिशिळांत कृतिशील म्हणपाचें कळ्ळें. समाजांत ज्यो कितल्योश्यो नश्ट्यो, पाड्यो, कुसक्यो रुढी चलतात त्यो पाळांमुळां सयत हुमटावन उडोवंक वावुरपी एक 'ऍक्टिविस्ट' म्हणपाचें समजलें. ते मुस्तींत तांणी हुंड्या आड एक चळवळ चलयल्ली. मंगळूरी किरिस्तांवां भितर ज्या लग्नांत हुंडो घेतला वा दिला म्हणपाचें कळटालें त्या लग्नाक चाफ्रा आपणाल्या धा वीस सांगात्यांक घेवन वताले आनी थंय काळे बावटे दाखोवन निदर्शनां करताले. दोन तीन निदर्शनांनी हांवेंय तांचो सांगाती जावन वांटो घेतला. आनी तांगेले सांगाती तांकां कितले मानतात तें पळेलां.

चाफ्रा मुदलांतले कोडयाळचे – मंगळूरचे. नोकरी सोदीत मुम्बय पाविल्ले आनी खंय तरी नोकरी करताले. फाविल्ल्या वेळांत 'पयणारी'चें संपादन, कवितांचें लेखन आनी चळवळिंचें संचालन करताले. आपणाक ते 'गोंयकार' लेखताले. मंगळूरचे किरिस्तांव मुदलांतले गोंयकार. बाटाबाटी वेळार जशे गोंयचे हिन्दू गोंय सोडून पळून गेल्ले तशे इगर्जेन 'इंकिझिसांव' सुरू करिनाफुडें बाटून किरिस्तांव जाल्ले गोंयकारूय पळून मंगळूराक गेल्ले. गोंयच्या किरिस्तांवांचेर इगर्जेचो धेंक आशिल्लो तसो मंगळूरच्या किरिस्तांवांचेरूय आशिल्लो. पुणून गोंयांत इगर्ज ही instrumento da civilização e influencia nacional आशिल्ली. किरिस्तांवपणा परस फिरंगीपणाचेर चड भर दीत आयिल्ली. मंगळुरांतले इगर्जेचेर ही दायकी नाशिल्ली. जाल्यारूय इगर्ज इगर्जूच आशिल्ली. तिच्या सुरांत सूर मेळोवन जो चल्लो ना त्या किरिस्तांवाक पिडापीड भोगोवपाक ती केन्ना अनमनूंक ना. फादर माश्कारॅन्यशांक तिणें थोडी पिडापीड भोगोवंक ना. चाफ्राय तिच्या दावकुलांतल्यान सुटूंक नात. पिडापीड तांच्याय वांट्याक आयली.

मुम्बयंत तांची बलायकी इबाडली म्हूण ते मुम्बय सोडून कोडयाळाक येवन रावले. आयुष्यांतलीं निमाणीं पंचवीस तीस वर्सां तांचीं कोडयाळांत सरलीं. मुम्बयंत चलयल्ले वावर तांणी हांगाय चलयले. नेमाळीं चलोवप, जंय जंय अन्याय जाता थंय थंय अन्याय परतून लावपाक लिखणेची तरसाद करून मुखार सरप, तरांतरांच्यो चळवळी चलोवप हो वावर तांणी कोडयाळांतूय चलयलो. परिणाम – समाजांतले थांय-बसकेक बशिल्ले – establishmentतले खुबशे जाण तांचे आड गेले. हाका लागून चाफ्रांचें जिवीत बरेंच त्रासांत गेलें. आरोग्यूय इबाडलें. पुणून चाफ्रा हाल्ले नात. सभाव नित्शयाच्या मेरू सारको. मोडटलों पुणून कमर बागोवचों ना हे तरेचो. मुम्बयंतूच हांवें तांचो हो सभाव पळेल्लो. आमची पयलीच वळख जाल्या त्या वेळार चाफ्रांच्या दोळ्यांक एक ऑक्ल लागिल्लें. दाट भिंगाचें. एक दीस तांच्या हातांत हेन्री बेंजामीनाचें 'बॅटर सायट विदाउट ग्लासिस' नांवाचें पुस्तक पडलें. तें वाचून काडिना फुडें दुसऱ्या दिसा सावन तांणी पुस्तकांत सांगिल्ले दोळ्यांचे सगळे व्यायाम करपाचो नित्शय केलो आनी स म्हयन्यां भितर नदर 'नॉर्मल' केली. ऑक्ल जें त्या वेळार गेल्लें तें परतें केन्ना दोळ्यांचेर चडूंक पावलें ना. असल्या ह्यां सभावाक लागून जे छळ तांकां सोंसचे पडल्यात ते सगळे तांणी मोन्यांनी सोंसले. सगळे काळजांत सांठोवन दवरले. तांचें जें भितर रसायन जालें तातुंतल्यान तांचें साहित्य 'आयलें'. चाफ्रांचें साहित्य हें तांच्या जिवितार्चें एक उपफल म्हणूंक जाय. एक 'बायप्रॉडक्ट' लेखूंक जाय. तांणी बऱ्यांतलो बऱ्यो कविता बरयल्यो. 'सोंशाचे कान' ह्या पुस्तकांत त्यो एकठांय गुंथिल्ल्यो पळोवंक मेळटात. तांणी बऱ्यांतलीं बरीं नाटकां बरयलीं. 'सुणें माजर हांसता', 'तर्नें तर्नें मोर्नें' हीं तांगेलीं नाटकां खंयचेच भाशेक अभिमान दिसचो हे तरेचीं. अश्टतासांचो साहित्यकार हो आमचे भाशेंतलो. 'भारतीय' आकाराचो.

कोणाच्या स्रापाक लागून कोण जाणा – कोंकणी समाज अजून 'एक साहित्यीक समाज' म्हूण मुखार येवंक पावूंक ना. चलत आयिल्ल्यो रीत-रविसो, चाली, नेम, परंपरा हांच्या बांदपासांत आपणाक बांदून घेतिल्लो समाज हो. तो मात् पसून बदलूंक तयार ना. परिणामी, कन्नड भाशेंत-बरोवपी गिरीश कर्नाड, यशवंत चित्ताल बी साहित्यकार आमचे इतलेच शंबर प्रतिशत कोंकणी आसुनूय कन्नड साहित्यकार म्हूण नांवाजते जाल्यात. बाकीबाब, लक्ष्मणरावां सारकेले कोंकणी मनीस मराठी साहित्यकार म्हूण मुखार सरल्यात. कर्नाड चित्ताल गोंयकारांक आपले दिसनात आनी बाकीबाब लक्ष्मणराव कर्णाटकांतल्या कोंकणी समाजाक आपले दिसनात. चाफ्रा कोंकणी साहित्यकार. कोडयाळांतले. आनी कोडयाळ कर्णाटकांतलें. पुणून कन्नड लोकांक ते आपले केन्ना दिसले नात. तशे किरिस्तांव आसुनूय मंगळूरचे जाल्ल्यान गोंयच्या किरिस्तांवांक आपले दिसले नात.

वेगळ्या वेगळ्या भाशीक संवसारांत वांटून गेल्लो कोंकणी समाज 'एक भास, एक लिपी, एक साहित्य' ह्या सुतांत आपणाक गुंथून घेवंक पाविल्लो जाल्यार देवगडा सावन कोची मेरेन शिंपडिल्लो कोंकणी समाज चाफ्राक माथ्यार घेवन नाचतलो आशिल्लो.

चाफ्रा फकत मंगळूरांतल्या किरिस्तांवांचे आनी गोंयांतल्या देवनागरी कोंकणींत बरयतल्या हिन्दूंचे साहित्यकार जावन उरले. भारतीय आकाराच्या ह्या कोंकणी साहित्यकाराक आमी समस्त कोंकणी समाजाचो साहित्यकार करूंक पावले नात.

खंतिची गजाल म्हळ्यार, आमी एक साहित्यीक समाज म्हूण संघटीत जावंक जाय हाची जाणवीक लेगीत अजून कोणाक जायना. कोंकणी समाजाचे

परंपरा-पुजे मुखार सगळ्यांक हार खावची पडल्या. एक जावंया, एक जावंया, म्हूण सगळ्यांक सांगीत तीन पिळग्यांचें रगत आटलें. आनीक कितल्या पिळग्यांच्या रगताची ताका तान लागल्या जातली, कोण जाणा.

चाफ्रांक थोडो भोव संतोस भोगलो तो तांगेल्या आयुश्यांतल्या निमाण्या वर्सा. साहित्य अकादेमीची तसरीप तांकां मेळ्ळी त्या निमित्त्यान मंगळूरांत तांगेल्या इश्टांनी तांचो एक भौमान सुवाळो घडोवन हाडलो. सगळ्या थरांतले लोक ह्या सुवाळ्याक आयले. तांगेले राजकी समाजी विरोधकूय आयले. 'जावं, म्हजो समाज सामको बेइमान न्हय' अशें तांकां दिसलें. पुणून — जिविताक उबगून बलायकी इबाडून घेतिल्ली. बलायकेन तांका आधार दिलो ना. हेच अवस्तेंत एक दीस तांणी आपणाली जिविताची यात्रा सोंपयली.

याद येता तेन्ना म्हजेंच एक आंग गळून पडिल्लेवरी म्हाका दिसता.

## गांधींचो प्रभाव

इंग्रजांक गांधी आपणाले दुस्मान दिसताले. कित्याक, गांधी स्वराज्या खातीर लोकांक एका सारके झुजूंक मुखार काडटाले. कोणाक सस्थ बसूंक दिनाशिल्ले.

मुस्लीम लीगूय गांधींक आपणाले दुस्मान लेखताली. कित्याक, गांधी पाकिस्तान जावंक दिवचों ना म्हणटाले. 'पाकिस्तान बनेगा तो वह मेरी लाश पर बनेगा' अशें सांगीत राविल्ले. पाकिस्तान जावंक दिलें तें जवाहरलाल, वल्लभभाई सारकेल्या काँग्रेसिच्या फुडाऱ्यांनी. तेंवूय ऐन त्या वेळार गांधींक अचळय कुशीक काडून. तरूय गांधी म्हणीत रावले, 'पाकिस्तान बना तो क्या हुआ? मेरे लिए तो कश्मीर से कन्याकुमारी तक देश एक है, एक देश में दो हुकूमतें चलती हैं.'

हिन्दू महासभेकूय गांधी आपणाले दुस्मान दिसताले. कित्याक, गांधी ह्या देशाक हिन्दूं इतलोच मुसलमानांचो, अशें म्हणटाले. आनी मुसलमानांक 'तुमी भियेवं नाकात' म्हूण धीर दिताले. हिन्दू महासभेच्या फुडाऱ्यांक गांधी मुसलमानांची सुमारा भायर सायबाजात्रा करतात, तांकां माथ्यार घेवन नाचतात, अशें दिसतालें.

सनातनी हिन्दुंकूय गांधी आपणाले दुस्मान दिसताले. कित्याक, शास्त्रांनी घालून दिल्लो आफूडभश्टाचो नेम गांधी मोडूंक भायर सरिल्ले. गांधींचें लोकांनी मानलें जाल्यार हिन्दू धर्म बुडटलो अशें तांकां दिसतालें.

आठूय दिकांनी तोंडां करून उबे राविल्ले हे सगळे एकाच वांगडा गांधींक आपणालो दुस्मान लेखताले हाचो अर्थ, गांधींनी जो वावर हातांत घेतिल्लो तो सगळ्यांची घडी विस्कटावपी आशिल्लो. सगळ्यांक सकल-वयर करपी आशिल्लो, असो जाता.

गांधींक वचून आतां साडेचार दसकां जालीं, तरूय बहुजन समाजाच्या कांशिरामाक वा मायावतीक ते दलितांचे सगळ्यांत व्हड दुस्मान दिसतात. हाचोय अर्थ गांधींचो प्रभाव आयजूय देशाचेर आसा असोच करचो पडटा.

आसा, गांधींचो प्रभाव अजुनूय देशाचेर आसा. तो ना म्हणटात तांच्या हाताक देशाची नाडी अजून लागूंक ना, अशेंच म्हणचें पडटा.

गांधींचो प्रभाव ना ज़ावपाचो ना. कित्याक गांधी ही निखटी एक व्यक्ती नाशिल्ली. गांधी हो एक विचार आशिल्लो. पोरणो समाज बदलून नवो समाज घडोवपाची प्रेरणा ध्येयवाद्यांक दिवपी विचार आशिल्लो. आयजूय हो विचार प्रेरणेच्या रुपान देशांत आपणालो वावर करीत आसा. ना जाल्यार, नटवर ठक्कर, सुंदरलाल बहुगुणा सारकेले लोक दिश्टीच पडचे नाशिल्ले. हे सगळे गांधींचेंच काम करतात. वा म्हणुंया, खासा गांधीच हांच्या रुपान कामां करीत रावल्यात. तांचीं नांवां आनी फोटे खबरेपत्रांनी नाका येवं, पुणून ते जें करतात तें देशाचें रूप एक दीस बदल्ले बगर रावपाचें ना. दुदांत घाल्लें म्हेंळाय आपणालें काम केलेबगर केन्ना रावलां व्हय?

फकत हिन्दुस्तानांत न्हय, हिन्दुस्ताना भायरूय गांधींची प्रेरणा काम करीत राविल्ली दिश्टी पडटा. अमेरिकेंत रंगभेदा आड झुजपाची प्रेरणा मार्टीन ल्यूथर किंगाक कोणें दिल्ली? गांधींनी न्हय? युरोपांत ग्रीन चळवळ चलोवपी पेट्रा केली फाटल्यान कोण आशिल्लो? गांधी न्हय? जपानांतल्या फुजी गुरूजींक विश्वशान्ती खातीर वावुरपाक प्रेरणा कोण दितालो? गांधी न्हय?

गांधींची प्रेरणा खंय-न्हय-खंय काम करता म्हुण्णूच मू आयज – तांकां वचून चार दसकां वयर जाल्लीं आसतनाय – तांचेर वर्सानवर्स दोनशें अडेचशें पुस्तकां भायर सरतात? चडशीं हिन्दुस्ताना भायलेच विचारवंत बरयतात.

मार्क्स सोडीत जाल्यार संवसारांतल्या दुसऱ्या खंयच्याच कृतिशील विचारवंताक हें भाग्य मेळूंक पावूंक ना.

जो विचार सदां मरणाकडेन ताल धरून जियेलो तो केन्ना ना जायना. सोक्रतीश ना जावंक ना. जीझस ना जावंक ना.

गांधीय ना जावंक ना.

काळोख केन्ना उजवाड ना करूंक पावला व्हय?

उजवाड सदां अक्षुण्ण आसता. तो जंय वता थंयचो काळोख आपशीं ना जाता.

जो कोण गांधी समजून घेतलो ताका काळखांत स्पस्ट बरी वाट दिश्टी पडटली. जो ह्या विचाराक धरून वावर करतलो ताच्या जिविताचें भांगर जातलें.

* * *

---

☐ एक सूफी न्हावपाक न्हंयेंत देंविल्लो. अवचीत व्हांवते बरोबर व्हांवन वचपाक लागलो. तडीर एकलो बशिल्लो. ताणें ताका विचारलें, 'बोब मारून आपोवं कोणाक तुका वयर काडपा खातीर?'

'नाका...' ताणें जाप दिली.

'तुका पेवंक येता? तूं आपुणूच वयर सरतलो, अशें तुका दिसता?'...

'ना.'

'मागीर कितें, तूं बुडून मरूंक सोदता?'

'ना.'

'म्हाका समजना, तुका कितें जाय?'

'म्हजे इत्से प्रमाण संवसार थोडोच चलता! देवाचे इत्सेन घडपाचें आसा तें घडटलें... म्हाका म्हजी इत्सा ना.'

☐ संवसाराचे फाटीर किडी-मुंयांपसून हती गेंड्यां मेरेन हजार तरांचे जीव जियेतात. एक तरी जीव 'आयज अन्न खंय मेळटलें' म्हूण हुस्को काडटा व्हय? अन्न नासतना एक तरी जीव केन्ना उपाशीं पडिल्लो तुमी पळेला व्हय? मागीर —

तुमकांच कसली पिडा मारल्या, मनशांनो, म्हूण तुमी तुमचो हुस्को काडटात? जें सैम सगळ्यांच्यो गरजो भागयता तें तुमकां उबंत उडयतलें?

# डंपींग स्टेशन

मधुसूदन जोशी



*'... ताऱ्यांचीं जीण सोंपता तेन्ना तांचो उजवाड इल्लो इल्लो कमी जाता... एकाद्रो ताचो 'ब्लॅक होल' जाता जावं येत... ब्लॅक होलाचें गुरुत्वाकर्षण बळिश्ट. एक 'डंपिंग स्टेशन' म्हण. तांतुंतल्यान भायर कांयच सुटूंक पावना.' संदीप समजायतालो... 'तुवें म्हजो प्रस्न सोडयलो. म्हज्या प्रस्नाक जाप मेळ्ळी.' मनोज फुलिल्लो...*



'च्यँ,... कांऽयच उपेग ना', कंप्युटराचो बटण बंद करीत संदीपान मनांतल्यान मनांत म्हळें. हेवटेन तेवटेन पडिल्लीं कागदां बळ्यांच खणांत धुकल्लीं. हातांतले टायटन घडयाळिचेर दनपारचीं तीन वरां जाल्लीं. दनपारां जेवूं नाशिल्ल्यान पोटांत बरेच जाळ पडिल्ले. कॅन्टिनांत वचून कितें तरी पोटांत धुकलचें म्हण कॅबिनाचें दार धुकलून संदीप भायर आयलो. लांब पॅसेजिची वाट चलतना तो आपणाल्या विचारांत गुल्ल जाल्लो. सदांचे संवयेप्रमाण ताणें अर्थशास्त्र विभागांत पावतकीच आपणाल्या इश्टाच्या कॅबिनांत दारार टकटक केलें. मनोज आपणाले तनरेंत कंप्युटराचेर टेबल मांडून हिशोब करीत बशिल्लो. मनोज मात्सो डिस्टर्ब जालो. पूण हें सदचेंच आसलें. तो उठून कॅबिना भायर आयलो. दोगूय कॅन्टिनाचे दिकेन चलपाक लागले.

संदीप आनी मनोज दोगूय आपणालें पी.एच्.डी. मेरेनचें शिकप सोंपोवन टाटा संशोधन केंद्रांत संशोधनाचें काम करताले. दोगांयले फांटे वेगळे. पूण च्या वेळार मात रेल्वेचे रूळ जंक्शनार मेळटात तशे ते एकामेकांक मेळटाले.

'कितें घेतलो? सँडवीच काय टोस्ट?' च्याचे लायनींत आपल्या फाटल्यान आशिल्ल्या मनोजाक संदीपान विचारलें.

'सिंपल ब्लॅक कॉफी. तूं घे तुका जाय जाल्यार.' मनोजान ताका म्हळें.

ट्रे हातांत धरून दोगूय कोनशांतल्या सदच्या मेजार बसले.

'आयचो दीस सामको फुकट वतलो. कांयच जावंक ना सकाळच्यान. सगळे सिद्धांत निमाणें 'इफ' आनी 'देन' ह्या दोन उतरांनी सोंपतात. ही 'जर तर' ची भास हांगा उपकारची ना. आरे तूं ओगी कित्याक?' सँडवीच सोंपोवन लेंसान तोंड पुसतना ओगी बशिल्ल्या मनोजाक संदीपान विचारलें.

'सांगतलों कितें? काठमांडूक जावपी आंतरराष्ट्रीय अर्थशास्त्राचे परिशदेंत हांव पेपर वाचपाचों आसां. पेपर धाडून दिला पूण म्हज्यान सगळ्या प्रस्नांक जापो दिवपाक जायतशें दिसना.' कॉफयेचो घोंट मारीत मनोजान म्हळें.

'आरे, ताचो येदो हुस्को कित्याक? आनीक संशोधनाची गरज आसा म्हूण सांग.' संदीपान म्हळें.

'ना. फकत जाप दिली म्हूण म्हाका समाधान मेळचें ना. हांव ह्या मुळाच्या संशोधना वयल्यान एका निश्कर्षा लागीं पावलां.' मनोज बरो उमेदी दिसतालो.

'तुजें आपलें बरें. सोद घेवपाक जाय तितलें व्हडलें ब्रह्मांड आसा. मळब लेगीत मेर जायना. सामकें मळबाभायर वचूं येता.'

'आमची थियरीच चड आसता रे. प्रॅक्टिकल नील. तुमचें तें कितें तें 'ऑल्टरनेट युझीस ऑफ रिसोर्सीस – एकूच आपलें.' संदीपान म्हळें.

'मनशा मनशा मदलें ब्रह्मांड सोडयता म्हणसर आनीक घुस्पागोंदळ. येदीऽशी पृथ्वी. ताचे वयली इल्लीशी मनीसजात. तांणी उप्रासायल्ले प्रस्न म्हळ्यार अर्थशास्त्र.' मनोजान फकाणांनी म्हळें.

'कसलेय गजालिचीं फकाणां करप समा न्हय. हांवूय पयलीं फकाणां करतालों आमगेल्या ब्रह्मांडाचीं. पूण तातुंतूय तथ्य आसा आं.' रिलॅक्स जायत संदीपान म्हळें.

'तीन लोक, सात पाताळां, सात गोपुरां, वायुचें राज, गतीन घुंवपी ग्रह, ध्रुवमंडळ, मर्हीलोक, जनीलोक, सत्यलोक...'

'हें सगळें आतां शें येवजलें?' मनोजान अजापान विचारलें.

'हें सगळें काल्पनिक, तरी मात्शें लॉजिकल.' संदीपान म्हळें.

'कितें तें?' – मनोज.

'सत्यलोक जाणा तूं? तो कसो आसता?' – संदीप.

'सांग मरे. आयकुंया.' – मनोज.

'सत्यलोकाचो राजा ब्रह्मदेव. चारूय वेद थंय रावतात. सर्वधर्म थंयच आसा. तप, अग्नि, योग हें लेगीत थंयच. असत्याक जागो ना. सात्विकतायेन रावपी, दुसऱ्यांक हीण लेखनासतना हें सगळें मेळून ब्रह्मांड.' संदीपान च्याचें चिक्र उबारीत म्हळें.

'सत्यलोक हे भुंयेर आशिल्लो जाल्यार?' मनोजान मदींच विचारलें.

'तुजे सारकेल्या अर्थ कुटप्यांक कितें काम उरतलें आशिल्लें?' संदीपान च्याचे घोंट घेत म्हळें.

'पूण हें सगळें आसुनूय झुजां नाशिल्लीं तांचे मदीं?' मनोजान संदीपाक खुबळावपाक विचारलें.

'आयक तर. त्या ब्रह्मांडाभायर एक वैकुंठ म्हूण आसा. ते भायर, कैलासार रावपी शंकर आसा. ब्रह्मांडांत केदेंय मोड आयल्यार वैकुंठ आनी कैलासार ताचो मात लेगीत परिणाम जायना.' संदीप सांगत आशिल्लो.

'पूण हरी आनी म्हादेव मदीं मदीं राक्षसांक वर दिवन मातयतात ताचें कितें?' मनोजाचो फुडलो प्रस्न.

'ताकाच लागून घडटात मरे सगळीं रामायणां.' – संदीप.

'तातुंतल्यानूय आमकां अर्थबोध जाता.' – मनोज.

'अर्थबोध? एका विचारा विरुद्ध दुसरो? विचारांची सांखळ खंयच पुराय जायना.' संदीपान म्हळें.

'त्या विचारांचे साखळेंत एक weak पूण समान धागो आसा.' मनोजाच्या उतरांनी आत्मविस्वास आशिल्लो.

'तुमच्या अर्थशास्त्रांतले विचार? ते केन्ना थीर आसतात? आयज भांडवलशास्त्र, फाल्यां मार्क्स, परां गांधी. खंयचो विचार तिगला व्हय?' संदीपाले प्रस्न सोंपचे नात हें वळखून मनोजान ताका म्हळें.

'या न्हय आमी?' दोगूय उठून चलपाक लागले.

अर्थशास्त्रांतले विचार थीर नात हो विचार मात मनोजाले तकलेंत थिरावलो. मार्क्स म्हणटा, खंयच्याय वस्तूचें मोल तिचे निर्मणेक लागपी मोला परस चड आसूंक जायना. तें चड आसलें जाल्यार भांडवलशाय उबी जाता. गांधीक हें चड मोल मान्य आशिल्लें. तांणी म्हणिल्लें, गिरेस्तान अतिरिक्त धन विश्वस्ताच्या नात्यान सांबाळचें, गरजोय थोड्यो दवरच्यो आनी गरजे परस चड उत्पादन करचें न्हय. फुडारिल्ले देश गरजे परस चड गजालिंचें उत्पादन करतात. यंत्र-निर्मणेक लागून वस्तूंचे निर्मणेचें मोल मानव-निर्मणेच्या मोला परस उणेंच जालां. शेऽ कांयच कळना. चिंतून चिंतून मनोज बेजार जालो. कुवाडें सुटपाक आयलां पूण सुटना. आयात निर्यात, बॅलन्स ऑफ पेमेंट. सगळीं फकाणां. भारतांत लोखणाच्यो खणी पूण लोखणा पसून तयार जावपी सूय जपानांत सवाय. कितें तरी चुकता. कितलोसोच वेळ तो आपणाल्या कदेलार विचार करीत बशिल्लो. सांजेचीं स वरां जालीं. घरा वचपाचो वेळ जालो हें संदीपान दारार टकटक केल्ल्यान समजलें.

दुसऱ्या दिसा जेवणा वेळार दोगूय एकठांय आयले. वांगडा जॉन आशिल्लो. जॉन बरोच खोशयेंत आशिल्लो.

'हाय संदीप!' जॉनान म्हळें.

'हाय जॉन. कसो आसा तूं?' संदीपान म्हळें.

'व्हॅरी व्हॅरी फायन.' जॉनान म्हळें.

'आयज बरोच मुडांत आसा सो? कितें स्पेशल?' संदीपान विचारलें.

'टॅन्शन इन लॅब. हें कॅन्टीन. यू शूड रिलॅक्स.' जॉनाची थियरी सुरू जाली.

'ना ना. कितें तरी आसुंकूच जाय.' मनोजान आतां मदीं तोंड घालें.

'टू बी फ्रँक, आय एम् इन अ बीट् टॅन्शन', जॉनान ट्रे मेजार दवरून कदेल ओडीत म्हळें.

'दॅटस् इट. आमी वळखतात तुका.' अशें म्हणत मनोजय कदेलार बसलो.

'नॉट मच. पूण हेच रे आमचे लालफिती कारभार.' जॉनान म्हळें.

'कितें? व्हिसा मेळना काय कितें रे?' संदीपान तिगांल्या ग्लासांत उदक ओतयत म्हळें.

'यॅस. इरिटेटींग. तो डंकेल प्रस्ताव मानून घेतिल्लो जाल्यार...' जॉनाचें उतर मनोजान अर्द्यारूच तोडीत म्हळें,

'दॅयर वूड हॅव बीन फ्री ब्रेन ड्रेन.'

'हें पळय, तुजे सारक्या नॅरो मायंडेड लोकांक लागून धिस कंट्री इज नॉट प्रॉग्रेसींग.' जॉनान रागान म्हळें.

'ह्या देसांतल्या लोकांनी तुमकां शिकोवप, व्हड करप आनी तुमी वचून भायल्या देसाची चाकरी करप? तुमकां कशें ॲक्सॅप्ट जाता हें?' मनोजाकूय आतां राग आयिल्लो.

'थँक्स टू मनमोहन सिंग. ताणें लिबरल पॉलिसी आपणायल्या म्हण बरें.' जॉनालो फुडलो कॉमेंट.

'एकदां तो डंकेल प्रस्ताव मानलो काय तुजे सारक्या बुदवंतांक बरें. फक्त पासपोर्ट पुरो. नो व्हिसा. नो फॉर्मालिटीज. तुमी खरें म्हळ्यार आंदोलन सुरू करपाक जाय ताचे खातीर.' मनोजान जाप दिली. दोगांयचें हें आतां थारचें ना हें पळोवन संदीपान म्हळें,

'आरे, इतले सिरियस कित्याक घेतात? हो लंच टायम मरे. रिलॅक्स!' तिगूय मोन्यांनी जेवपाक लागले.

जेवण सोंपतकीच संदीपान म्हळें, 'मनोज, आयज हांवें एक गजाल वाचिल्ली. तुका सांगतलों म्हण आशिल्लों. जस्ट फॉर फन रे. पूण आतां वेळ जाला न्ही, मागीर केन्नाय सांगतां.'

तिगांयनी हात धुले आनी ते आपणाल्या कामाक लागले.

च्याच्या टायमार संदीप कँटिनांत पयलींच पाविल्लो. मनोजान च्या घेतली आनी तो संदीपाक सोदपाक लागलो. कोनशाच्या मेजार संदीप आशिल्लो. मनोज च्या घेवन थंय गेलो.

'आयज म्हाका सांडून आयलो सो?' मनोजान ताका विचारलें.

'ना रे. सकयल लायब्रींत आयिल्लों. थंयच्यानूच आयलों.' संदीपान च्याचो घोंट घेत म्हळें.

'दनपरां कितें सांगूंक सोदतालो?' मनोजाचे तकलेंत दनपारची गजाल आशिल्ली.

'कांय ना. सादीच गजाल रे! ताऱ्यांचे जिणे विशीं. ताऱ्यांची जीण सोंपता तेन्ना तांचो उजवाड इल्लो इल्लो कमी जाता. ही गजाल शेंकड्यांनी वर्सां उपरान्त घडटा. मागीर कितें जाता हाची अजून माहिती ना. एकाद्रो ताचो 'ब्लॅक होल' जाता जावं येत. 'ब्लॅक होल' समजुचें ना तुका. तूं तें 'अद्वैत' जाणा?' संदीप सांगतालो.

'तें रे? ब्रह्म आनी हांव म्हळ्यार एक सांगपी तत्त्वज्ञान?' मनोजान मदींच म्हळें.

'करेक्ट. ब्लॅक होल म्हळ्यार तशेंच कितें तरी. तातुंतलो गूढवाद अजून सोंपूंक ना. सोंपपाची आस कमी. त्या होलांत कसल्योय लहरी धाड. त्यो आदळून परत्यो येनात. त्यो कांयच सांगनात. ब्लॅक होलाचें गुरुत्वाकर्षण बळिश्ट. एक 'डंपिंग स्टेशन' म्हण. तातुंतल्यान भायर कांयच सुटूंक पावना.' संदीप समजायतालो.

'कितें? तातुंतल्यान भायर कांयच सुटना?' मनोजाचें कुतूहल जागें जालें.

'तशें म्हणटात. तातूंत आयज मेरेन व्हडलें संशोधन जावंक ना. म्हजो वावर त्याच मळार आसा.' संदीपान फुडें म्हळें.

'थँक्स अ लॉट. तुवें म्हजो प्रस्न सोडयलो. म्हज्या प्रस्नाक जाप मेळ्ळी.' मनोज फुलिल्लो.

'हांवें तुज्या खंयच्या प्रस्नाक जाप दिली?' संदीपान अजापान विचारलें.

मनोज मनांतूच हांसलो. ताणें म्हळें, 'तुवें आतां सांगलें न्हय रे, सूर्यासारक्या तेजिश्ट ताऱ्याचो मर्णकाळ लागीं येता तेन्ना ताचो प्रकाश ल्हवू ल्हवू कमी जाता. निमाणो तो एकाद्रो वेळ ब्लॅक होल जावं येता. करेक्ट?'

'हय रे. पूण ताचो अर्थ तूं खंय आनी कसो लायतलो?' संदीपान ताका विचारलें.

'आयकतलो तूं? निर्यात करपी देसाक ताचो म्हाल आयात करपी देस जाय आसता. बरोबर? सपोज हांव बळिश्ट जाल्यार तूं म्हाका दांडगायेन म्हाल घे म्हण फोर्स करूंक शकना. पूण हांव दुबळो जाल्यार? तूं म्हाल म्हज्या माथ्यार मारूंक शकता. इन शॉर्ट, यू कॅन डंप इट. जूस्त ब्लॅक होला भाशेन. तेजिश्ट ताऱ्याचो मर्णकाळ लागीं येता तसो तो ब्लॅक होल जाता. एक डंपींग स्टेशन जावं येता. म्हजो देस असोच तेजिश्ट तारो आशिल्लो. ताचो सद्या ब्लॅक होल जाला वा केला, आय डोन्ट नो. पूण फुडें ताचें कितें जाता हाची म्हाका उमळशीक लागल्या.'

संदीप मनोजाले तर्क आयकतालो. च्याचो वेळ कसो सोंपलो दोगांकूय कळ्ळेंच ना.

* * *

# रेंदेरमाम आनी ताचो धंदो

जुजे साल्वादोर फेर्नांदिश

'रें देर' हें उतर कशें जल्मलें, कोंकणींत कशें आयलें हाची आयज लेगीत कितल्याशाच जाणांक खबर ना. खास्सा आयच्या रेंदेरांक लेगीत. रेंदेरपण हो एक धंदो. ह्या धंद्याक माडांची गरज. रेंदेरपणाचो धंदो करप्यां लागीं चडशे फावटीं आपले मालकिचे माड आसनात. तेन्ना ताका ह्या माडांची वेवस्था करची पडटा. म्हणजे, जांचेकडेन माड चड आसतात, तांचेकडेन आपल्या धंद्या खातीर माड मागचे पडटात. हे माड सुरे खातीर दितना घेतना माडांचो धनी आनी सुरे खातीर माड मागपी हांचे मदीं एक कबलात जाता. एका एका माडा फाटल्यान धनयाक दर म्हयन्याक दुडू फारीक करचे पडटात. म्हळ्यार, माडांचो धनी आपले माड **रेंदाक दिता.** हें **रेंद** (मूळ पुर्तुगेज उतर) सूर काडप्यान नेमान फारीक करचें पडटा. देखून ताका 'रेंदेर' म्हणटात. **रेंदेर** म्हणजे नेमान, चुकयनासतना रेंद दिवपी.

दुसरें म्हळ्यार, कसलोय धंदो सुरू करतलो जाल्यार सरकाराची मान्यताय जाय पडटा. सरकाराची एक फावट मान्यताय मेळटकच धंदो सुरू करूं येता. ते भायर, त्या धंद्याचेर सरकार आपलो कर बसयता. सूर काडप्याकूय हो कर tree tax आनी excise duty म्हूण फारीक करचो पडटा. हो सरकाराचो कर म्हळ्यार सरकाराचें रेंद. हें रेंद माडांचो धंदो करतल्याक प्रत्येक म्हयन्याक फारीक करचें पडटा. देखून ह्याय अर्थान तो 'रेंदेर' 'जाता'. गोंयांत रेंदेराक लोक भौमानान आनी मोगान रेंदेरमाम म्हूण जापायतात.

## रेंदेरपणाच्या धंद्यांतली उतरावळ

**माड बांदप :** माडांची सूर मेळची म्हूण रेंदेरमाम नव्या माडांचेर चडून सुरवेचो जो वावर करता ताका **माड बांदप** म्हणटात.

**माड काडप :** माडांचो धंदो करप. कोणेंय रेंदेरमामाक 'तूं कसलो धंदो करता ?' अशें विचारल्यार 'हांव माड काडटां' अशी तो जाप दिता.
दुसरो अर्थ : रेंदेरमाम सकाळीं-सांजे माडांचेर वचून सूर हाडटा. हेय घडणुकेक तो 'माड काडटा' अशें म्हणटा.

**माडांक वचप :** सकाळीं-सांजे रेंदेरमाम जेन्ना सूर हाडूंक वता तेन्ना तो **माडांक वता** अशें म्हणटात.

**शेवाक वचप :** दनपारच्या वेळार रेंदेरमाम माडांचेर चडपा खातीर वता तेन्ना तो **शेवाक वता** अशें म्हणटात.

**दुदिनें :** प्रत्येक माडाची जी सूर मेळटा ती रेंदेरमाम एका आयदनांत एकठांय करून सकला हाडटा. हें आयदन म्हळ्यार दुदिनें. दुदयाची एक जात आसा. हे जातिचे दुदी मोटवे आनी मोटे. जिते आसतात तेन्ना तांचें तोंड कातरतात. दुदया भितल्ल्यो सगळ्यो बियो भायर काडटात. आनी तो पोकळ दुदी सुकयतात. सुकले उपरान्त वयर तोंडाकडेन दोन वटांनी ताका दोन बुराक करतात. ह्या बुरकांनी एक सुको **वायो** (चुडटाचे मदले शिरेचो शेव) गुंथून घालतात. त्या वायाच्या आदारान तें दुदिनें हातांत धरूंक मेळटा तशें करतात. दुदयाचें केल्ल्यान तांका दुदिनेंच म्हणटात.

आयज दुदयाचीं दुदिनीं वापुडलेलीं दिसनात. चडांत चड रेंदेर आयज प्लास्टिकाचीं दुदिनीं वापुडटात. ह्या दुदिन्यांक वायो घालचे बदला नायलॉनची दोरी घालतात.

**काती :** पोंयेक कातर मारूंक वा तोंडार तासणी मारूंक रेंदेरमाम जें हातयार वापुडटा ताका काती म्हणटात. ही काती एका खाशेल्या धातुची तयार केल्ली आसता. उज्यांत घालून आनी परत परत धाडावन ती पातळ करतात. उपरांत ताका कातयेक आसूंक जाय तसलोच आकार दितात. आनी ती झेतान हातांत धरूंक मेळची म्हण ताका लोखणाची मूठ बसयतात.

**ओळीं :** तरण्या वा जित्या चुडटाचे लांबचे लांब आनी रूंद अशे वाये काडटात. ते वाये कांकण जाय सारके कवळटात. उपरांत तीं ओळीं घड्यांत उकळूंक घालतात. उपरान्त तीं सुकपाक दवरतात.

**गोपे :** कवळिल्लीं ओळीं सोडटात आनी तांचे तीर करतात. हे तीर बारीक तासतात. उपरान्त तांचीं ल्हान भुरग्यांचीं कांकणां आसतात तितलीं ल्हान कांकणां करतात. हे **गोपे** पोंयेक घालूंक वापुडटात. चार-चार बोटांच्या अंतरार पोंयेक हे गोपे घालतात.

**पोंय आंगार मारप :** कातयेचे मुठीन पोंय वयर सकल थावन सादारणश्या नेटान धाडावप. हें धाडावप चडशें शेवाक वता त्याच वेळार करतात. पोंय दोन दीस **आंगार मारतात.** तिसऱ्या दिसा ते पोंयेक गोपे घालतात आनी बांदतात. तीन दीस सरतच ती पोंय वयर मातशी कातरतात. उपरान्त पोंयेचो फोर्स जाता ते प्रमाण चार-पांच दिसांनी पोंयेक **सूर पानेवंक लागता.**

**निरो :** नव्याच बांदिल्ल्या माडाचे पोंयेचो जो पयलो रोस येता ताका निरो म्हणटात. तो पियेवंक बरोच गोड लागता.

**सूर :** निरो दोन-तीन दीस पडटा. ते उपरान्त पोंयेंतल्यान जो रोस येता ताका सूर म्हणटात. निऱ्या परस सूर इल्ली उणी गोड आसता.

**शेवॉत :** शेवॉत शब्दाचो अर्थ तसो सरळ सांगूंक येना. पूण शेवॉत दोन तरांचें आसता. शेवताच्यो ह्यो दोनूय तरा समजल्यार शेवॉत म्हणटात तें कितें तें सोंपेपणान समजतलें.

— शेवताची पयली तरा : **घायाशेवॉत :** नवे पोंयेक सूर पानेवंक लागतच, ते पोंयेच्या तोंडाक **दाबनें** घालतात. पूण पोंयेंतली थेंब्या-थेंब्यांनी पडपी सूर सरळ दाबन्यांत पडना. पोंयेक दाबनें घालतच दाबन्याचें तोंड पोंयेक आशिल्ल्या ज्या गोप्या मेरेन पावता, त्या गोप्या सकला कातेन वरसो घाय करतात. आठ इंचां इतली लांब वीर नाशिल्ली चुडटी दोडून, ते पोंयेच्या वरश्या घायांत घालतात. ते चुडटेचीं दोनूय तोंकां परत दोडून तीं दोनूय पोंतां दाबन्याच्या तोंडांत वचूंशीं करतात. आनी तेन्नाच पानेवन आयिल्ली सूर त्या चुडटांच्या पोंतांवेल्यान दाबन्यांत देंवता.

— शेवताची दुसरी तरा : **ताशिल्लें शेवॉत :** हांगा पोंयेक दिसाक तीन फावटीं शेव घालचो पडटा. तेन्ना ती पोंय कापून कापून ल्हान जायत वता. घायाचें शेवॉत करपाक पोंयेक जो घाय घाल्लो तोवूय कातरून सोंपता. तेन्ना उरिल्ले पोंयेचें आंग कातयेन तासतात. उपरान्त चार ते पांच इंच

इतली लांब चुडटी विरा सयत फुलोवन आनी मांडून ताशिल्ले पोंयेचे सकयले वाटेन बांदतात. दाबणें पोंयेक लायतच ते चुडटेचीं पोतां दाबन्यांत वचपा इतलीं लांब आसतात. पोंयेक पानेवन आयिल्ली सूर हे चुडटे वेल्यान दाबन्यांत पडटा.

**भाण:** सुमार १५०-२०० लिटर तांकिचें मातयेचें व्हडांत व्हड बुरकुल्याच्या आकाराचें एक आयदन.

**दोय:** मॉळप वा भाटी काडून जातच गडो काडपा खातीर एक लांबचे-लांब, भाणांत पावपा येदो दवलो.

**पडकी:** भाणांतल्यान तयार जावन आयदनांत सोरो पडटा. तें आयदन सोऱ्यान भरतच तातुंतलो सोरो काडटात आनी आनिकूय सोरो पडटा ताका सुवात करतात. हो सोरो त्या आयदनांतलो काडपाक एक ल्हानसो दवलो वापुडटात. ताकाच पडकी म्हणटात.

**लावणी:** कॉड्यांतत शिमिटान घट केल्लो आसता तो कळसो वा टांकयेंत आसता ती आलुमिनाची नळी.

**पचक:** मॉळप वा सोरो काडले उपरान्त जो सुवाद नाशिल्लो रोस पडटा तो.

**भाटी:** सोऱ्याचें १८ बाटल्यांचें माप.

**मॉर:** मॉळप वा सोरो काडपा खातीर भाणाचें तोंड बंद करपाक वापुडपाचें धांपणें.

**बेळोस:** माडांची सूर खंयच्याय आयदनांत दोन वा अदीक दीस उरली जाल्यार, त्या आयदनाच्या तळाक दाट रांप आयिल्लो दिसता. ताकाच बेळोस म्हणटात. ही बेळोस कितेंय जोडूंक वा दसोवंक उपकारता.

**निवळो:** खोर्नांत घातिल्लो जळोव लासतकूच ताचे कोळशे जातात. हे कोळशे खोर्नातल्यान भायर काडूंक ल्हानसो पिडो कातरून ताका मदीं एक बुराक करतात. तातूंत एक दांडो घालतात. उपरान्त ताच्यान ते इंगळे भायर काडटात.

रेंदेरमाम दिसाक तीन फावटीं – सकाळीं, दनपरां आनी सांजे – आपणें बांदिल्ल्या माडांचेर चडटा-देंवता. सकाळचो आनी सांजेचो तो **माडांक वता** जाल्यार दनपारचो **शेवाक वता.**

माडाक म्हयन्याक एक पोंय येता. म्हळ्यार एका माडाक वर्साक बारा पोंयो येतात. पोंय सुमाराची तरणी आसतनाच रेंदेरमाम वयर-सकल सावन ती उण्याच धा ते बारा गोप्यांनी बांदून घेता. पोंयेक घातिल्ले गोपे एकामेकां पासून चार-चार बोटांच्या अंतरार आसतात. एक फावट पोंय बांदून घेतच रेंदेरमाम पोंय **आंगार मारता.** पोंय आंगार मारून जातच तिसऱ्या दिसा ते पोंयेचें वयलें तोंड मातशें कातरता. कांय दिसांनी पोंये भितर जसो फोर्स जाता, तेप्रमाण पोंयेक **सूर पानेवंक लागता.** एक फावट पोंयेंतल्यान सूर पानेवंक लागतच रेंदेरमाम **पोंयेक दाबनें घालता.** हांगा रेंदेरमाम सूर दाबन्यांत पडची म्हण **घायाचें शेवॉत** पद्दत वापुडटा. सूर थेंब्या-थेंब्यांनी दाबन्यांत पडपाक लागता.

सकाळीं माडांक वतना रेंदेरमाम काती, दुदिनें आनी मातयेचो एक सुमाराचो-सो कळसो व्हरता. आयज-काल चडशे रेंदेरमाम ह्या मातयेच्या कळश्या बदला प्लास्टीक कळसो न्हय तर गॅलन व्हरतात. रेंदेरमाम काती आनी दुदिनें घेवन माडार चडटा. माडार चडपा खातीर ताणें माडांक आदींच खांपां मारिल्लीं आसतात. ह्या खांपांच्या आदारान, एक हात (दावो) माडाक धरून, दुसऱ्या हातांत म्हळ्यार उजव्या हातांत काती दुदिनें घेवन तो बद्द माडाच्या कवळांत वता. थंय चुडटार झेत घेवन बसता. उपरान्त दाबन्यांत पडिल्ली पाव-अर्द पाव अशी सूर दुदिन्यांत रकयता. उपरान्त कातयेन पोंयेक पातळशी तोंडार **कातरणी मारता.** आनी परत दाबणें आशिल्लें तशें पोंयेक घालता. हें जातच तो खाला देंवता आनी दुदिन्यांत एकठांय करून हाडिल्ली सूर आपणें वांगडा हाडिल्ल्या कळश्यांत वा गॅलनांत घालून घरा हाडटा.

सांजेवेळार माडांक वता तेन्नाय रेंदेरमाम हीच माड काडपाची पद्धत वापुडटा. दनपारचो शेवाक वतना तो फकत काती घेवन वता. माडार चडटा आनी पोंयेचें दाबनें काडून पोंयेक पातळ काप वा कातरणी मारता. उपरान्त दाबनें आशिल्लें तशें पोंयेक लावन खाला देंवता. हाकाच शेव म्हणटात.

माडांचो जो वावर करपाचो आसता, म्हळ्यार नवी पोंय आंगार मारप बी, तो सगळें दनपारच्याच वेळार करता. कित्याक, दनपारच्याच वेळार ह्या वावरा खातीर ताका चड वेळ मेळटा. तेच भाशेन दनपारच्या वेळार माडांचो वावर केल्यार माडांक सुरूय बरी पडटा आनी माडूय बरे उरतात.

जे माड उदकाक लागीं आसनात तसले माड सुरे खातीर बांदल्यार उबाळेच्या दिसांनी **माड तापतात.** आनी जून-जुलय म्हयन्यांत जेन्ना अकस्मात पावस पडटा तेन्ना ह्या पयल्याच पावसान **माडांक थंडी लागता.** सूर इल्ली कमी पडपाक लागता.

सुरेचो सोरो करपा खातीर रेंदेरमाम **धंत्र** तयार करता. आपलें घर सुमाराचें व्हड आसत जाल्यार घरांतलेच एके कुडींत वा घरा भायर एक वेगळी कूड काडून रेंदेरमाम ते सुवातेर आपल्या धंद्या खातीर हें धंत्र उबें करता.

धंत्र म्हळ्यार कितें? सुरेचो सोरो करपा खातीर भाण, नळी आनी कदें वा पी हांची वेवस्थीत मांडावळ आनी वापूड म्हळ्यारच धंत्र.

## धंत्र कशें घडटात?

आमच्या घरांनी चुली आसतात. पुणून त्यो तीन फातरांच्यो. ह्या चुलिंच्या एका आनी दुसऱ्या फातरा मदीं, दुसऱ्या आनी तिसऱ्या मदीं आनी तिसऱ्या आनी पयल्या फातरा मदीं विस्कळ अशी सुवात आसता. ह्या तिनूय सुवातां मदीं जे दिकेन आमकां उजो करपाक सोपें जाता, ते वाटेन आमी चुलींत उजो करतात.

रेंदेरपणाच्याय धंद्यांत १५०-२०० लिटरांचें इल्लें व्हड मातयेचें भाण दवरपा खातीर एक व्हडली चूल आसता. घरांतले चुली भाशेनूच हेवूय चुलीक तीन फातर आसतात. घरां बांदूंक वापडटात तसले चिरे.

पयले दोन चिरे एकामेकांक समांतर आसतात. ते एकामेका पासून पंदरा इंचाच्या अंतरार मांडिल्ले आसतात. ह्या दोनूय चिऱ्यांच्या फाटल्यान, ३६ इंचांच्या अंतरार तिसरो चिरो मांडिल्लो आसता. पयल्या आनी तिसऱ्या, दुसऱ्या आनी तिसऱ्या चिऱ्यां मदीं जी ३६ इंचां इतली सुवात आसता ती तांबडे मातयेन भरून काडटात. समांतर आशिल्ल्या चिऱ्यां मदली सुवात मात तशीच सोडटात. कित्याक, ते वाटेन उजो घालपाचो आसता.

पयल्या आनी तिसऱ्या चिऱ्यां मदली आनी, दुसऱ्या आनी तिसऱ्या चिऱ्यां मदली जी मातयेन भरून काडिल्ली सुवात आसता ती १८ इंच इतली वयर आसता. उपरान्त समांतर आशिल्ल्या दोनूय चिऱ्यांचेर एक लांबसो फातर दवरतात. हो लांब फातर समांतर आशिल्ल्या दोनूय फातरांक जोडटा. अश्या वेळार भाण दवरूंक जें पेड केलां तें रूंद आनी गोल जाता. भाणाचें पोंद रूंद आशिल्ल्यान तसलेंच पेड जाय आसता.

एक फावट भाण दवरपाचें पेड तयार जातच ताका **खोर्न** म्हणटात. हें खोर्न ओले मातयेन तयार केल्ल्यान, ती माती सुकूं पर्यान त्या खोर्नाक हात लायनात. चार-पांच दिसांनी माती सुकता. माती सुकून घट जातच ताचेर भाण दवरतात. भाणाचें जें गोल पोंद आसा, तें खोर्नाक लागता. हें आंग खोर्नाक लागतच भायले वाटेन भाणाक आनी पॅडाक जोडपा खातीर माती मारतात. अशा वेळार भाण खोर्नाक घट बसता.

एकदांचें खोर्न तयार जातच त्या खोर्ना पासून १५ इंचांच्या अंतेरार एक पी उबी करची पडटा. ही पी म्हळ्यार उदक भरपाची टांकी.

वीस-पंचवीस वर्सां फाटीं सगळे रेंदेरमाम आपल्या धंद्यांत उदकाची पी म्हणून एक व्हडलें ३००-३५० लिटरांचें **कॉदें** वापुडटालें. हें कॉदें मातयेचें केल्लें आसतालें. ताचें पोंद १४ इंच रूंद आसतालें. जाल्यार ताचे वयलें तोंड ७२ इंच रूंद आसतालें. हें कॉदें दाट आंगाचें आसतालें. ह्या कॉद्याच्या तळाक शिमिटान घट केल्लो मातयेचो एक कळसो आसतालो. त्या कळश्याचें तोंड कॉद्याच्या तळाक केल्लें आसतालें. त्या कळश्याक दोन ल्हानश्यो नळ्यो आसताल्यो. एक नळी खोर्नाचे दिकेन, कॉद्याचे वण्टींतल्यान भायर सरिल्ली, जाल्यार दुसरी नळी आठ इंचांच्या अंतरार सकयले वाटेन तोंड करून आसताली.

कॉदें बसोवपा खातीर पयलीं, एकामेकांचेर अशे पांच चिरे बसयताले. तितली उबारी जाताली. हे उबारेचेर वा फातरांचेर कॉदें दवरताले. उपरान्त त्या कॉद्यांत आशिल्ल्या कळश्याची नळी जी सकयले वाटेन तोंड करून आसता, ती वेट मात सकल फातरांनी भरून काडिनात. कित्याक, ते नळयेंतल्यान सोरो व्हांवपाचो आसता; आनी ताते सोरो एकठांय करपा खातीर ते नळ्ये खाला आयदन दवरपाचें आसता.

एक फावट कॉदें आनी भाण बसोवन तयार जातच तांचो दोगांयचोय संबंद जोडटात. कोद्यांत आशिल्ले लावणेची जी नळी खोर्नाचेर आशिल्ल्या भाणाचे जे दिकेन भायर सरल्या ते दिकेन आनी ते नळयेच्या माजान भाणाक एक बीळ करतात. ह्या बिळाक थावन कॉद्याचे वण्टींतल्यान भायर सरिल्ले नळयेक पावता इतली पंदरा इंच लांब एक बोणकेची सुकिल्ली पोकळ नळी घालतात.

धंत्राचें एक आंग म्हणून कॉदें आसता, तें कोदें वयर थावन उदकान भरून काडटात. ह्या उदकाक चड काळ जातच – म्हळ्यार एका म्हयन्या उपरान्त – भायर सोडपाक भायल्या आंगाक एक लांब नळी बसयल्ली आसता.

## सुरेचो सोरो कसो जाता?

एक फावय धंत्र तयार जातच आनी आपले कडेन फावो तितली सूर आसतच रेंदेर सोरो काडपाची तयारी करता.

सोरो काडपा खातीर रेंदेरमामाची एक वेगळेच तरेची पद्धत आसा. रेंदेरमाम माडांची सूर काडून हाडटा ती सूर पयलीं ताज्जी आनी गोड आसता. पूण हेच सुरेक जेन्ना दीस वतात तेन्ना सूर आंबट जाता.

सुमार १००-१५० लिटर सूर रेंदेरमाम भाणांत घालता. खोर्नांत भितर लाकडाचो उजो करता. ती सूर बरीच शिजतच भाणाच्या तोंडार एक दाबनें दवरून भाणाचें तोंड बंद करता. दाबन्याचें पोंद आनी भाणाचें तोंड हांची जी शीम आसता ती मातयेन भरून काडटा. म्हणचे, भितल्ल्यान शिजतले **सुरेचो उस्वास** मातूय भायर येना. दुसऱ्या उतरांनी, रेंदेरमाम **मॉर करता.** सूर बरीच शिजतच ते सुरेचो रोस निर्माण जाता. हो रोस उदकाच्या रंगाचो आसता. हो रोस भाणाक आनी कॉद्याक जोडपी ते नळयेंतल्यान, कळश्याची जी भायल्या आंगान खेरीत नळी आसता, ते नळयेंतल्यान भायर पडटा. ते नळ्ये खाला दवरिल्ल्या आयदनांत हो रोस एकठांय जाता. रोस भायर पडटना कॉद्यांत उदक आसता तें उज्याचे गरमेन तापता. त्या रोसाच्यो सुमार अठरा बाटल्यो काडटात. ह्या रोसाक **मॉळप** म्हणटात.

- अठरा बाटल्यांचें एक मॉळप काडटच उजो पालयतात. मॉर मोडटात.

सुरेचो सगळो रोस भायर पडून, निमाणें सुरेचें जें कितें हुनहून भाणांत उरता ताका **गोडो** म्हणटा. हो गोडो कांय जाण दुकरांक खाण म्हण खावयतात. गोड्याचेर पोसतलीं दुकरां रोखडींच भरून येतात. मोटीं जातात. हे भायर गोड्याचो वापूड दुसऱ्या कसल्याच कामाक जायना.

'मॉळप' म्हळ्यार सोरो न्हय; पुणून सोऱ्याचें अर्बट (crude) रूप. ताचे श्रेणी सुमार २२-२५ डिग्रिची आसता. म्हणचे मॉळप बरेंच खर आसता तेच खातीर कोणूय हें मॉळप सारो म्हूण पियेलो जाल्यार मॉळपाचो ताचे रोखडोच परिणाम जाता. तो १५-२० मिनटांनी रोखडोच मोव जाता हेवटेन-तेवटेन हालूंक-धोलूंक लागता.

सोरो काडटलो जाल्यार दोन मॉळपांची गरज आसता.

सोरो काडपा खातीर, पयलीं भाणांत सुमार ५० लिटर सूर घालतात ही सूर, तिका फुलां येवं परयान शिजयतात. ते उपरान्त हे खतखतलेल सुरेंत १०-१२ लिटर उदक घालतात. पांच मिनटां सरतच आदींच तयार दवरिल्लीं दोनूय मॉळपां शिजयल्ले सुरेंत घालतात. हें सगळें आनिकूय शिजयतात. ते उपरान्त मॉर करतात. खोर्नांत उजो जसो जसो जळत रावता तसो तसो भाणांत जें सूर-उदक-मॉळप हांचें मिश्रण आसा तें शिजून शिजून अश्या एका तोंकार पावता, तेन्नाच मॉळपा बाबतींत सांगिल्ले पद्धतीन रोस भायर पडटा. ह्याच रोसाक सोरो म्हणटात. पयलीं पयलीं जो सोरो पडटा तो बरोच खर आसता. पूण सोऱ्याक दवरिल्लें आयदन जशें जशें भरत येता, तशी तशी सोऱ्याची डिग्रीय कमी जायत्त वता. सोरो जेन्ना १८ डिग्री दाखयता तेन्ना उजो पालयतात. भाणांत आशिल्लो गोडोय उसपून काडटात.

सोऱ्याची डिग्री १८ जातच जें कितें रोस म्हण भायर पडटा ताका सोरो म्हणिनात, ताका **पचक** म्हणटात. सुक्या नुस्त्याची मोल बी करपाची आसा जाल्यार तें सुकें नुस्तें ह्या पचकान नितळ निवळ करतात.

## धंत्रा विशीं अदीक म्हायती

हालिंच्या काळार कोणूच रेंदेर मातयेचें भाण वापडिना. ते बदला, तांब्याचें भाण वापुडटात. हाचें कारण, मातयेचीं भाणां चड काळ तगनात. दोन-चार फावटीं मॉळप वा सूर काडटच ती रोखडींच पोंदच्यान **शिंवरेतात.** तांका फूट येता. म्हणटच रेंदेरमामाक नवें भाण लावचें पडटा. पूण तांब्याचें भाण लायल्यार ताका असली फूट पडची वा शिंवरेपाची अडचण येना. अर्थीक नदरेन ताका तें फायद्याचें आसता.

दुसरें म्हळ्यार, कॉद्याचोय आयज खंयचोच रेंदेरमामा वापूड करिना. ते बदला शिमिटाची चवकोनी टांकी बांदून घेतात. हे टांकयेचें वयलें आंग उकतें आसता. तातुंतल्यान उदक घालूंक मेळटा. असले टांकयेंत लावणे म्हणून कॉद्यांत कळसो आसतालो तसलो कळसो आसना. ते बदला आलुमिनाची चार पांच पीळ आशिल्ली नळी बसयतात. शिमीट मारून ती टांकयेंतूच घट करतात. हे नळयेचें एक तोंड टांकयेचे वणटींतल्यान भाणाक आनी टांकयेक जोडपी बोणकेचे नळयेंत आसता, जाल्यार दुसरें तोंड भायल्या आंगान सोरो भायर पडपा खातीर आसता.

तिसरी गजाल – जळव बरो म्हारग जाल्ल्यान आयज चडांत चड रेंदेरमाम वेगळी पेत्रोलाची टांकी आशिल्ले स्टोव वापडून सोरो काडटात.

जे सुवातेर धंत्र आसता, ते सुवातेक सध्या चालत्या उतरांनी भाटी म्हणटात.

एकदां सोरो तयार जातच रेंदेरमाम तो सोरो गिरायक आयल्यार घरा विकता; ना जाल्यार खंयचेय **गादयेर** व्हरून विकता.

आयज सोऱ्याची एक भाटी (सोऱ्याच्यो १८ बाटल्यो) ३८०-४०० रुपयांक विकतात.

## थोडेंभोव माडां विशीं

रेंदेरमाम ज्या माडाच्या धनयांचे जितले माड बांदता तितल्याय माडांचे तो दर म्हयन्याक त्या धनयाक दुडू फारीक करूंक जाय. सध्याक माडाचो धनी आपलो एक माड २५-३० रुपयांनी सुरेक दिता.

कांय वर्सां फाटीं रेंदेरमाम नवे माड बांदतालो तेन्ना सरकार आपणा

मनशांक धाडून, त्या माडांचेर आंकडे घालतालें. आयज ही चाल दिसना.

कांय माडांचे धनी सुरेक दिल्ल्या माडांचें रेंद दुसरे पद्दतेन घेतात. हे धनी एका म्हयन्याक सुरेक दिल्ल्या माडांचें रेंद म्हण दुडू घेतात जाल्यार दुसऱ्या म्हयन्याक तितल्याच दुडवांचो सोरो घेतात.

लोक आपले माड आपखोशयेन केन्ना केन्ना रेंदेरमामाक बांद म्हूण सांगतात. अशा वेळार ते रेंदेरमामाकडच्यान माडांचें भाडें वा रेंद सोदिनात. कित्याक तर तांणी आपले माड खोशयेन **दुखोवपाक दिल्ले आसतात.** रेंदेरमाम जेन्ना माड सुरेक वापुडटा तेन्ना माडाक दूख जाता. माड दुखावतात.

आतां माड कित्याक दुखोवपाक दितात? कितलेशेच फावटीं माडांक पोंय येता. काळ जातच ती पोंय फुट्टा. पूण हे पोंयेक बोंडो धरना. अश्या वेळार ह्या माडाक दुखोवपाची गरज आसता. आनी असले माड दुखयले जाल्यार उपरान्त तांकां नाल्लांच्यो कुचकुचीत पेंडी येतात.

सुरेक केल्ल्या माडांक नाल्ल आसनात.

## तेन्नाचो आनी आतांचो रेंदेरमाम

आदलो रेंदेरमाम कमराक काश्टी बांदून माडांक वा शेवाक वतालो. आयचो रेंदेरमाम खोमीस-कालसांव (मोटवें) घालून माडाक वा शेवाक गेल्लो दिसता.

पयलीं रेंदेरमाम आपले माड काडूंक – ते कितलेय पयस आसूं – पांयांनीच वताले. आयज चडशे रेंदेरमाम सायकलीन माडांक वा शेवांक गेल्ले दिसतात. ते भायर वेर्णा सारक्या गांवांत रेंदेरमाम माडांक, शेवाक स्कुटरूय घेवन भोंविल्ले हांवें पळेलां.

## रेंदेरमामाचें 'कांतारां' विश्व

कचेरेंत वावर करपी मनीस वावर करतां करतां मदींच उबगण आयली जाल्यार एकाद्रें वर्तमानपत्र वाचता ना तर वयर-सकयल अश्यो दोन भोंवड्यो मारता. पूण माडांचो वावर करतना रेंदेरमामाक मदींच उबगण आयली जाल्यार तो कांतारां गावपाक लागता.

रेंदेरमामाचीं कांतारां चडशीं मोगरचेरूच आदारलेलीं आसतात. हीं गितां आयकुप्यांच्या कानांत रिगतात तेन्ना आयकुपी वेगळ्याच संवसारांत पावता.

रेंदेरमामाच्या मोगाच्या कांतारांनी वेगळे वेगळे प्रसंग दिसतात. देखीक:

*'दर्याच्या ल्हारारी*
*चंद्रिमाच्या उजवाडारी*
*हें तुजें मोळ्यांतलें फालेरी*
*जुरार जाता देवा मुखारी.'*

*'कारोलिना जेवंक घाल*
*– वाडलोलें आसा*
*तोंडाक लावच्याक कितें गो आसा?*
*– शेंवटो भाजीला...*
*नाका, नाका, शेंवटो नाका*
*तुजो मोग पुरो म्हाका*
*तुज्या दोळ्यांत उजवाड चोयन*
*सुर्या दिस्टी पोडलो येदे रातीचो*
*हे तुजे दोळे माका धांपल्यारी*
*काळोख जातोलो सोगळ्या सौंसाराक.'*

एकामेकांक जिवाक जीव दिवपी घोव-बायल एकामेकां पासून पयस आसतात तेन्ना ह्या प्रसंगाक सोबता तसलेंच गीत रेंदेरमामाच्या तोंडांतसून आयकूंक येता. देखीक:

*'यो रे मोगा*
*चोय रे माका*
*मोगाचें दायें लाय रे माका.'*

पावसाचो काळ लागीं पावता तेन्ना रेंदेरमाम पावसाचींय कांतारां गायतना आयकूंक येता:

*'पावस बगलेक पावलो म्हुजे मांय*
*दर्या गाजोता (२)*
*दर्याचे देगर बसून म्हुजे मांय*
*ल्हारां मेजिता (२)'*

रेंदेरमामाच्या ह्या सगळ्या कांतारांनी कवीत भरिल्लें आमकां दिसून येता. ताल, लय, भाशेचें संगीत, गोंयचे मातयेचो वास, रेंदेरमामाच्या कांतारांतल्यान आयकतल्यांच्या कानांत-नाकांत भरता.

रेंदेरमाम आपलो वावर करतना कांतारां म्हणटाच. पूण रेंदेरमामा विशींय कांय गीतां दुसऱ्यांनी गायलेलीं आयकूंक मेळटात. देखीक:

*'तांबडे कोंकारी*
*शेतांत न्हावताली*
*तेगे दुब्जी सुडोली*
*माडावेल्या रेंदेरान ती चोयली.'*

कोणूय, खंयसरूय कसलोय वावर करूं, ताका वा तिका सातोळ्याक न्हय तर म्हयन्याक एक दीस तरी सुटी आसता. रेंदेरमामाच्या धंद्यांत असलें कांयच आसना. ताका वर्साच्या बाराय म्हयन्यांक, म्हयन्याच्या तिसूय दिसांक दिसाक तीन फावटीं माडार चडून देंवून आपलो वावर करचो पडटा. ताच्यान तो चुकोवं येना. प्रामाणीक रेंदेरमाम आपलें काम केन्नाच चुकयना. पुणून केन्नाय ताका कसलेंय भायलें काम पडल्यार आनी शेवाक, माडांक वचूंक ताका आडखळ आसा अशें दिसत जाल्यार तो आपले माड काडूंक वा शेवाक वचूंक दुसऱ्या रेंदेरमामांक सांगता. आनी तो दुसरो रेंदेरमाम आपलें काम करचें करून दुसऱ्याच्याय माडांचें काम करता.

रेंदेरमाम दिसाक तीन फावटीं माडांचेर चडटा. तो सकाळ-सांजेच – दोनूच खेपो – चडलो-देंवलो आनी शेव चुकयलो; वा सकाळ-दनपरां वचून सांजेर माड काडपाचें ताणें चुकयलें वा सकाळचो माडांक वचनासतना दनपारचो शेवाक आनी सांजेचोच माडांक गेलो जाल्यार माडांक मार बसता.

रेंदेरमाम हो गोंयच्या पारंपारीक धंद्यांतलो एक म्हत्वाचो घटक. सोरो पियेवपी मनीस तर आपल्याली रेंदेरमामाकडेन खाशेली बांधिलकी आसा अशें मानता. सोरो पियेना ताकाय फेस्त-परबांक रेंदेरमामाची गरज पडटा.

आयज गोंयांत शिक्षणाच्या प्रसाराक लागून खासा रेदेरमामांचीं भुरगीं-बाळां पासून रेंदेरपणाच्या धंद्याकडेन आडनदर करूंक लागल्यांत. ह्या धंद्यांत खूब त्रास-वितराग काडचे पडटात. असले त्रास-वितराग आयचे तरणे पिळगेक जमनात. हें जरूय खरें आसलें तरूय फुडाराक गोंयचो पारंपारीक रेंदेरमाम आनी ताचो धंदो केन्नाच बंद पडपाचो ना अशें म्हळे बगर रावं नज. गोंयांत माड आसतले तोंवेर रेंदेरूय आसतलो.

आदारावळ:

१. लक्ष्मणराव सरदेसाय – 'रेंदेर' : 'खबरी, कांय कर्मांच्यो कांय वर्मांच्यो' पुस्तकांत.

२. पियेदाद फेर्नांदीश, पिराय ५९ वर्सां, केपें; रोनी वाज, पिराय ६३ वर्सां, वेळ्ळी; आग्नेल पेरैर, पिराय ४७ वर्सां, चांदर; ब्रुनो फेर्नांदीश, पिराय २९ वर्सां, बेतुल ह्या रेंदेरमामांलागीं भासाभास.

* * *

# अंदीं-मर्दीं

[प्रासंगीक]

दामोदर घाणेकार

## रेकाद मेळूंक ना

आदल्या तेंपार मनीस दुसऱ्या गांवांतल्या आपल्या सोयऱ्यांकडेन संपर्क चुकुनूच करतालो – सामकोच गरजेच्या वा ताकतिकेच्या वेळार. तेय आदीं पारवे संपर्काचें साधन आशिल्लें. पोस्ट ऑफीस जेन्ना आयलें तेन्ना मनीस पोस्टा वरवीं संपर्क करूंक लागलो. सेल, लखोटे, कार्डां, अंतरदेशी पत्रां हीं साधनां आयलीं. तेलेग्राम, तेलेफोन हींय साधनां आयलीं. पुर्तुगेजा तेंपार गोंयांत कांय थोड्याच घरांनी तेलेफोन आसताले. पणजेंतले पणजेंत फोन करतलो जाल्यार एक्स्चेंजीकडेन तो 'मागचो' पडटालो. ते उपरांत, भायल्या गांवांनी संपर्क करतलो जाल्यारूच 'मागचो' पडूंक लागलो. आज परिस्थिती बदल्ल्या. आज जाय ताका, जाय थंय फोन कर. दीस म्हणूं नाका, रात म्हणूं नाका. फोन चोविसूय वरां चालू. तेभायर, एक्सचेंजी ऑटोमॅटीक (आपचलीत) जाल्ल्यान कितेंय करूं येता. जशें, एका मनशाकडेन उलयता आसतना ताका मातसो 'होल्ड' करून तिसऱ्या मनशाकडल्यान माहिती घेवन ती पयल्याक दिवं येता. आपलो फोन 'एसटीडी लॉक' करूं येता.

इतल्यो सगल्यो सुविधा मेळुनूय आमी शाणे कित्याक जायनात हाचें अजाप जालेबगर रावना. कितलेशे जाण प्रत्यक्ष मेळटकूच सांगतात, म्हाका तुजो रेकाद मेळूंक ना. तो फोन कोणेंय अडाणी, अशिक्षीत मनशान घेतिल्लो जाल्यार समजूं येतालें. तो बँकेंत काम करतले ताचे घरकान्निनूच घेतिल्लो देखून तिका भोगसणी ना. इल्लीय ना. कारण तो मनीस एक इंझिन्येर आनी कंत्राटदार. 'हिका लागून म्हाका धंद्याक कितलो मार बसला जाणा तूं?' तो म्हाका एक दीस म्हणूंक लागलो. 'ही म्हाका कसलोच रेकाद दिना मरे. भोंवडेर गेल्लो मनीस आठ-धा दिसांनी घरा परतो येतकूच जसो आपल्याक पत्र बी ना मूं म्हणून विचारता तशेंच आतां फोनाचें जाला. भायल्यान घरा येतकूच म्हाका फोन बी आयिल्लो कोणाचो काय म्हणून विचारचें पडटा...'

तेखातीर हांव तुमकां एक मोगाळ सुचोवणी करूंक सोदतां. तुमकां नवो फोन मेळटकूच ताचे म्हऱ्यांत एक डायरी आनी एक (बरवता तसलें) पेन दवरात. तुमचेकडेन हे आदींच फोन आसा जायत जाल्यार आतांच, ह्याच खिणाक, डायरी-पेन दवरात. चोपडी लेगीत चलता. आनी घरांतल्या दरेका मनशाक तिचेर फोनाचो रेकाद बरोवंक सांगात. निरक्षर मनशाक आंकडे बरोवंक शिकयात. त्या मनशाचो फोन नंबर तरी बरोवन दवरूंक मेळटलो. इतलें केल्यार खूब जालें.

## हत्या मनाक पटना

पयर एकलो मेळ्ळो. 'आरे, आतां कितें शिकता?'

'आतां जूनांतल्यान टी.वाय.क वतलों.'

'आं, टी.वाय. म्हळ्या बी.एस्.सी. मरे?'

'बी.एस्.सी?' ताणें अजापान म्हळें.

'बी.ए., बी.ए. टी.वाय.बी.ए.क वतलों.'

'बी.ए.?' हांवें ताचेपरस चड अजाप जावन विचारलें.

'हय. हांव आर्टसाक गेलों तें खबर ना दिसता.'

हांवें 'ना' म्हळें. 'पूण तूं सायन्सीक गेल्लो न्हय रे?'

'हय. सायन्सीक गेल्लों खरें. पूण बारावेक आर्ट्स घेतलो.'

'कित्याक?'

'बेब्यांक चिरचे पडटात न्हय? बेब्यांची हत्या करप म्हज्या मनाक पटना जालें.'

'बेब्यांचीच? आनी गांयडोळांची आनी जल्ल्यांची बी न्हय?'

'हय, हय.' ताणें लजत जाप दिली.

'हांव हें सगलें जाणा आशिल्लों. देखून तूं एस.एस.सी. पास जाल तेन्नाच तुज्या बापायक तुका फायन आर्ट्साक धाड अशें हांवें भर दिवन सांगिल्लें तें याद आसा मरे? फायन आर्टसाक गेल्लो जाल्यार येन्न जोडूंक लागपाचो. कितेंय करूं येतालें, ग्रिटींग कार्डां, पोस्टर बी. सोड आतां कसलो विशय घेतला?'

'पॉलिटिकल सायन्स.'

'पॉलिटिकल सायन्ससो कित्याक? तो घेवन कांय तूं आमदार-मंत्री जावंचोना. आनी हें तुका कोणें सांगलां, बापायन? तेन्ना हांवें आर्ट कॉलेजाक धाड म्हळ्यार तुजो बापूय म्हजेर तापलो – आरे, वचूं ताका सायन्सीक वता जाल्यार. तूं मॉड कित्याक घालता? नाजाल्यार तो कितें करतलो जावं ताका दोतोर जाता जाल्यार.' बापूय बावडो सादो क्लार्क. ताका आपलो पूत कोणूय दोतोर इंजनेर आदवोगाद बी जाल्लो जाय आशिल्लो.

'ना रे, तशें न्हय. बी.ए. जातकूच हांव एल.एल.बी. करूंक सोदतां.'

'एल.एल.बी. शी?'

'एल.एल.बी.च्या पोर्शनांत सत्तर प्रतिशत पॉलिटिकल सायन्स आसता.'

'अशें? कोणें सांगलें तुका? आनी आदवोगाद कितले बेकार पडल्यात तें तूं जाणा?'

आतां मात तो भुरगो काकुळटेक आयलो. 'मागीर कितें कर म्हणा तूं आतां म्हाका?'

'सांगतां. बी.ए. हिस्ट्री घेवन कर आनी एम.ए.य बी हिस्ट्रीच घेव. शीक. पुर्तुगेझ भाशेचें गिन्यान घे आनी मागीर सामको पिकिल्लो आं कसो जातलो!'

'पूण... जॉब? जॉब खंय मेळटलो?'

'तेंय सांगतां. पोरणावळ खात्यांत आसात ते पुर्तुगेझ दुकुमेन्त कोणा वाचूंक येनात.'

इतल्यांत थंय आनीक एकलो आयलो. ताणें हाका हटकितकूच म्हाका म्हणूंक लागलो, 'हो पळय, हो आसा एम.ए. विथ हिस्ट्री. दि हाका जॉब?'

'पुर्तुगेझ शिकला?'

'ना.'

'पूण पुर्तुगेझूच कित्याक?'

'सांगलें न्हय रे तुका?'

आमच्या भुरग्यांक एस्.एस्.सी. जातकूच मुखार कितें करचें – शिकप सोडून दियात – तें कोणूच सांगिना. एकलो वता म्हणून शेंपडी धरून दुसरो धांवता. तिसरो पळटा. चवथोय फाट धरूंक सोदता... अ

तंत्रगिन्यानाचीं कितलिंशीं दारां आमकां उकतीं आसात. पॉलिटॅक्नीक, वास्तूशिल्प धरून कम्प्यूटर सायन्सी मेरेन. कम्प्यूटरान मनशाक बरोच मुखार व्हेला. रॉकेट सोडटलो? कम्प्यूटर जाय. रणगाडो चलयतलो? कम्प्युटर जाय. पयर नावीक दळाची एक जायरात वाचिल्ली. नव्या रिक्रुटां खातीर आशिल्ली ती. कम्प्युटराचें गिन्यान गरजेचें अशें म्हणिल्लें. हे मुखार शिक्षणाचो कम्प्यूटर आनी कम्प्युटराचेंच शिक्षण जातलें काय दिसता. मनशान कम्प्यूटर निर्मिल्लो. आतां कम्प्यूटर मनशाक खंय व्हरता तें पळोवपाचें उरलां.

## आमचें 'शिक्षान'

आतां भुरग्यांक सगलें फुकट. पुस्तकां, कादेर्न, गणभेस. कापोती लेगीत. सरकाराच्या मुळाव्या शाळांनी वतल्या विद्यार्थ्यांक अंदुच्या वर्सासावन हें सगलें फुकट मेळटलें. दक्षीण गोंयांतल्या १७,००० विद्यार्थ्यांक खंय हे येवजणेचो लाव जातलो. पयलेंतल्या भुरग्यांक एक पाटी आनी एक पेन्सील, दुसरेंतल्याक शंबर पानांच्यो दोन चोपड्यो, तिसरेंतल्याक एक शंबर आनी दोन दोनशें पानांच्यो चोपड्यो जाल्यार चवथेंतल्याक चार चोपड्यो. अशी ही येवजण. फाटल्या पांच वर्सांमदीं नव्यो इंग्लीश खाजगी शाळा पावला कणकणीं उकत्यो करूंक दिल्ल्याचो परिणाम आमचें सरकार अशे रितीन भोगता.

आमच्या शिक्षणाक कसलीच दिशा ना जाल्या. ह्यो इंग्लीश शाळा उगडूंक दिल्योच कोणें आनी कशो? राजभास कोंकणी आसतना इंग्लीश वा मराठी शाळा येतातूच कशो? मागीर राजभाशेचो अर्थ कितें तर? (राजभास एप्रिलांत चालीक लावपाची सुरय फटास राजभास मंत्री सोमनाथ जुवारकारान कोंकणी अकादेमीन चार फेब्रुवारीक घडोवन हाडिल्ल्या राजभास दिसा मारिल्ली ती सगल्यांक याद आसतलीच). सरकारी शाळेंतलीं भुरगीं गळून खाजगी शाळांनी वचपाक कारण इंग्लीश. आज इंग्लीशीचें भूत गरिबांचे लेगीत मानेर अशे रितीन घट्ट बसलां, तांकां तुका आपूण पुरायपणान पोसतां, म्हजे कोंकणी वा मराठी शाळेंत यो अशें म्हणून सांगल्यार लेगीत ते येवपाक नात. कारण? कारण, कोंकणींत पोट भरना; इंग्लीशींतल्यान भरता!

आमच्या शिक्षण खात्यांत जो रेबो सांचला तो पयलीं भायर मारून तें निवळ-नितळ करपाची गरज आसा. शिक्षक surplus – आलायते जाल्यात. हाचें कारण खंय कुटुंब येवजण. म्हणटकूच तुमच्या येवजणांक दिशाच ना-शी जाली. कितल्या भुरग्यांच्या उणावाक लागून कितले शिक्षक कितल्या वर्सांनी 'बेकार' जातले हाचो आंकडो शिक्षण खात्याकडेन आसूंक जाय आशिल्लो. आसतूय बी. पूण म्हणून प्रस्न सुट्टा? ही गजाल येवजणो करतात तांकां खबर ना व्हय? आसा. फकत ह्या येद्या व्हडल्या आनी घुसपागोंदळाच्या चक्रव्युहांतल्यान भायर कशें सरप तें मात तांकां खबर ना. कारण दर वर्सा जसो पावसाळो येता आनी गोंयांत पाठ्यपुस्तकांचो ब्युरो नाशिल्ल्यान पुस्तकांखातीर पालक-शिक्षक-विद्यार्थ्यांची रड सुरू जाता तशीच 'आलायत्या' शिक्षकांच्या बदल्यांचीय रडकथा चालूच आसता. एका तरी शिक्षकाक तीन इश्कोलांनी आमकां नाका, आमचेकडेन आमचेच शिक्षक आसात ते पुरो म्हणून परतो parent इश्कोलांत धाडिल्ल्याचो धडधडीत पुरावो म्हजेकडेन आसा.

गोंय लोकसेवा आयोगान श्री. पांडुरंग नाडकर्णी ह्या म्हापशेंच्या सारस्वत विद्यालयाच्या आदल्या हेडमास्तराक शिक्षण संचालकाच्या पदाखातीर वेंचून काडून सरकाराक ताचें नांव सुचयल्लें. पूण? पूण 'मध्येंच मराठी माशी शिंकली.' हांवें आयकल्ले खबरे प्रमाण, नाडकर्णी हो खूब तरणो आनी तो संचालक जाल्यार 'आम्हाला प्रोमोशन मिळणार नाही' अशें म्हणून खात्यांतल्या 'मराठी' कंपून मुख्यमंत्री राणेंच्या पांयार साश्टांग घालून घेतलें. नाडकर्णी संचालक जाल्लो जाल्यार चवदा वर्सां थंयच उरपाचो खंय! लोकसेवा आयोगान ताका वेंचून काडिल्लो. लोकसेवा आयोगाच्यो सुचोवण्यो नाकात जाल्यार आमकां हो आयोग तरी कित्याक जाय? आयोगा कडल्यान नांवां मागोवन घेवप आनी निमाणें आपणाक जाय त्याच मनशाक नेमप हें सरकाराचें धोरण. भारतांतलीं सगलीं सरकारां वयल्यान सकयल मेरेन हेच भाशेन चलतात.

आतां श्रीमती सुमन पेडणेकार नवी संचालिका जाल्या. ती पात्र आनी लायक अशीच आसा. तिणें ह्या मराठणांतल्या 'सरदारांचेर' कडक नदर दवरूंक जाय. कारण शिक्षण खात्यांत जितले झारींतले शुक्राचार्य भरल्यात तितले आनीक खंयच्याच खात्यांत नासुंये. तांकां चिड्डिले जाल्यारूच आमचें शिक्षण सुदारतलें. ना जाल्यार, शाळेक गेलो कितें, गोरवां राखलीं कितें, सारकेंच!

* * *



---

- ☐ व्हड काम हातांत घेवचें आनी हें पुरें जायसर आपूण मरचों ना ह्या नितशयान तें करचें. कूड पडत. तूं ना जावचो ना.
- ☐ व्हडलो ग्रंथ बरोवपाची गरज ना. तुजें एक सादें वाक्य लेगीत केन्ना केन्ना दुसऱ्याक वाट दाखयता.
- ☐ यत्न करपाचो सोडून दितकूच अपेस कित्याक पदरांत पडचें ना?
- ☐ संवसारांतलो सगळो काळोख हाडून ओत. ल्हानशे पणटेचो उजवाड तो केन्नाच पालोवंक पावचो ना.

# तथागत
[तेरावी खिस्त]

## मरण – एक समा नदर

जल्माक आयिल्ले सगळे मरतात. मनीस ल्हान आसूं वा व्हड, पिसो आसूं वा शाणो, एक दीस ताका मरचेंच पडटा. पिकिल्लें फळ देंटापसून सुटून जमनीर पडटा. मनिसूय म्हातारपण येवन व ताचे पयलीं मरता. मरण कोणाक चुकोवंक येना. मातयेचें आयदन फुटना अशें केन्ना जालां व्हय? जिविताचेरूय पातयेवंक येना. तें आयज आसा, फाल्यां आसचें ना. केन्ना सोंपत, सांगूंक येना.

जिवीत कश्टांचें आनी दुख्खान भरिल्लें.

बापायक पुताचें, पुताक बापायचें, बायलेक घोवाचें, घोवाक बायलेचें, कोणाकूच कोणाचें मरण आडावंक येना. चुकोवंक येना. फाटल्यान उरिल्लीं कितलींय रडूं, वचपाचो गेले बगर राविना. मरणान हो संवसार आपणा हातांत घेतला हें सत्य मतींत धरून शाण्या मनशान मेल्ल्या गेल्ल्याचो खेद करचो न्हय अशें बुद्ध म्हणटालो.

जे खंयच्यान आयले, खबर ना; जे खंय वतात, कळना; जांचो आरंभूय दिश्टी पडना, अंतूय दिश्टी पडना ते वतकूच तांचो खेद करपांत लाव ना. लाव जाल्लो जाल्यार खेद करूं येतालो, रडूं येतालें. आपुणाक कश्टावन घेवं येतालें. पुणून इतलेंय हें करून चित्त शांत जातलें व्हय? ना. परतें, दुख्ख वाडटलें आनी मनीस आपुणूच आपणाक त्रास करून घेतलो, दुर्मुखी जातलो. मेल्ल्या गेल्ल्याक आमच्या त्रासांक लागून कितेंय लाव जाल्लो जाल्यार त्रास करून घेवं येतालें. पुणून तांकां कसलोच लाव जायना. आमकांय जायना.

म्हूण, खेद करपांत अर्थ ना. रडपांत अर्थ ना.

मागीर, कितें करपाचें? दोळे उकते दवरून संवसारा कडेन पळोवपाचें. संवसार आमकां जाय तसो चलना. अमकें जावचें म्हूण आमकां कितलेंय दिसलें म्हूण तशें घडून येतात्र अशें ना. केन्ना केन्ना नाका आशिल्लें घडून येता. उरफाटेंय घडटा. वेगळेंच घडटा. संवसाराची रीत ही. ही रीत शाण्या मनशान वळखून घेवंक जाय.

बुद्ध विचारतालो, 'धरुंया, तुका शंबर वर्सांचें वा ताच्याकूय चड आयुश्य मेळ्ळें. जाल्यार तूं मरचो ना अशें केन्ना जायत व्हय? मरतलो. तुज्या आप्त मनशां पसून तूं वेगळो पडटलो. तशें, तुज्या आप्त मनशांक शंबर वर्सांचें वा ताच्याकूय चड आयुश्य मेळ्ळें जाल्यार तिंवूय एक दीस मरतलीं. तुजेपसून तिंवूय वेगळीं पडटलीं. तुका सोडून वतलीं. देखून, कितें करूंक जाय – मेल्लो मनीस परतो दिश्टी पडपाचो ना हें मतींत धरून खेद करपाचें सोडून दिवंक जाय. उजो उदकान पालोवचो तसो मनशान मेल्ल्या गेल्ल्याचो खेद ह्या सत्याच्या दिश्टाव्यान पालोवचो. तेन्नाच ताचें चित्त शांत जातलें आनी सुख-दुख्खा पेल्यान वचून तो अ-शोक जातलो.

एक खेपे कोसलचो राजा पसेनदी (प्रसेनजित) बुद्धाचे भेटेक आयिल्लो. ताचे म्हऱ्यांत बसून धर्मचर्चा करतालो. ताची चाल ही, बुद्धाकडेन वळख जायत पसूनची. तो धर्मचर्चा करीत बशिल्लो आसतनाच ताची राणी मल्लिका भायर पडिल्ल्याची खबर कोणे एकल्यान येवन ताका सांगली. खबर आयकून पसेनदी खंतीन आकूळ-पिकूळ जालो. मल्लिका ताची आवडटी राणी आशिल्ली.

बुद्धानं ताका म्हळें, 'म्हाका एक सांग, जो जल्मान जराधर्मी ताका म्हातारपण येवचें ना, जो मरणधर्मी ताका मरण येवचें ना आनी जें नाशधर्मी ताचें नाशें जावचें ना, अशें केन्ना जालां व्हय? जावं येता व्हय? हांव जावंक दिवचों ना अशें, धरुंया, ब्रह्मदेवान म्हळें तर ताकाय लेगीत तें चुकोवंक येवपाचें ना. जें ना जावपाचें तें आयज न्हय फाल्यां केन्नाय तरी ना जावंकूच जाय. जरा व्याधी मरण संवसारांत जल्माक आयिल्ल्या सगळ्यांक येता. फकत आमच्याच लोकांक येता अशें न्हय. नेणार लोकांक हें समजना म्हूण ते जरा व्याधी मरण पळोवन दुख्खान आकूळ पिकूळ जातात. तुवेंय आकूळ-पिकूळ जावचें? तूं एक आर्य श्रावक. संस्कारी मनीस एक. खरेपणानशीं असल्या प्रसंगार तुवें म्हणपाचें – 'जराधर्मी एक दीस म्हातारो जाता, मरणधर्मी एक दीस मरता. जें ना जावपा खातीर जल्माक आयलां तें एक दीस ना जाताच जाता.' हे नदरेन तुवें हे घडणुके कडेन पळोवपाचें.

समा नदरेन मरणा कडेन पळेतकूच मरणाचें दुख्ख जायना.

### किशा गौतमी

पसेनदीचें दुख्ख ना जालें काय ना, खबर ना. ना जाल्लें आसूंक जाय. कित्याक, तो समज आशिल्लो मनीस आशिल्लो. आनी ताका धीर दिवपी खासा बुद्ध आशिल्लो. किशा गौतमी तशी नाशिल्ली. जल्मूच जाल्लो बावडेचो श्रावस्तींतल्या एका गरीब घराब्यांत. गरीबच न्हय, सामके धूळदशेक पाविल्ल्या एका घराब्यांत. सूख म्हणटात तें तिणें केन्ना पळोवंकच नाशिल्लें. लग्न जावन घोवागेर गेली. चार गोटे पोटांत पडपाक लागले. मात्शें सूख मेळिल्लेवरी दिसलें. पुणून दुख्खान तिची फाट हांगाय सोडली ना. दुसरे तरेचीं दुख्खां हात धूवन फाटल्यान लागलीं. एक दीस अवचीत – कांय खिणां पुरतो जायना – काळोख ना जाल्लेवरी तिका दिसलो. लग्ना उपरांत देड वर्सान तिका एक पूत जालो. सुखान ती सामकी भुल्लुसून गेल्लेवरी जाली. पुणून, बावडेचें हें सूख कांय दिसांचेंच आशिल्लें. पूत निकतोच चलपाक लागिल्लो. अवचीत एक दीस सोरोप चाबून तो मेलो. तिका मळब कोंसळ्ळेले वरी दिसलें. पिशी जावपाकडेन ती पावली. 'ना... तो मरूंक ना. ताका फकत सोरोप चाबला. तो जिवो जातलो, पळेतले तुमी. कोणूय तरी आसतलो हे श्रावस्ती नगरींत, जाचे कडेन मेल्ल्यांक जिते करपाची संजीवनी विद्या आसतली', ती म्हणपाक लागली. पुताक उखलून घरांतली भायर सरली. घरांघरांनी वचून संजीवनी विद्या जाणा जाल्ल्याक सोदपाक लागली. 'म्हजो पूत मेलो म्हणटात... पुणून तो मरूंक ना. ताका सोरोप चाबला... संजीवनी वखद मेळत जाल्यार तो जितो जातलो, उलोवपाक लागतलो, म्हाका खातरी आसा. आसा व्हय तुमगेर संजीवनी विद्या जाणा जाल्लो कोणूय?' विचारपाक लागली.

तिगेली गत्त पळोवन लोकांचीं काळजां कळवळून आयलीं. पूत मेला आनी तो मेला म्हूण बावडी मानूंक तयार ना हें पळोवन लोकांक कितें करचें, समजना जालें.

एकल्यान तिका सांगलें, 'तूं बुद्धा सरीं वच. केल्यार तोच हाका जितो करतलो.'

'खंय मेळटलो तो म्हाका?'

'जेतवनांत.'

ती धांवन जेतवनांत गेली. आनी पुताक बुद्धा पांयांसरीं दवरून म्हणपाक लागली, 'हाका सोरोप चाबला. हो मरूंक ना... हाका जितो कर... तूंच ताका जितो करतलो, हांव जाणां...'

भुरगो मेला म्हणपाचें बुद्धान पळेलें. पुणून तो तिका कूड मरणधर्मी नाशधर्मी असलें कितेंच समजावंक बसलो ना. ताणें इतलेंच म्हळें, 'म्हजें एक काम कर. चिमटीभर सांसवां हाडून म्हाका दी. पुणून असल्या घरांतलीं की ज्या घरांत कोण मरूंक ना.'

'घेवन येतां' अशें म्हणून ती पुताक घेवन चिमटीभर सांसवां हाडपाक भायर सरली.

एका घरा मुखार वचून उबी रावली. 'म्हाका चिमटीभर सांसवां जाय आशिल्लीं' तिणें घरकाराक म्हळें.

'कित्याक गे बाये?'

'म्हजो पूत जिवो जातलो...'

'राव आं बाय, घेवन येतां' अशें म्हणून तो सांसवां हाडपाक उठलो. इतल्यांत तिणें म्हळें, 'ह्या घरांत कोण मरूंक ना मू?'

'कोण मरूंक ना असलें घर तुका खंय मेळटलें? बाय, ह्या घरांत म्हजी आवय मेल्या, बापूय मेला...'

'तशें जाल्यार ह्या घरांतलीं सांसवां उपकारचीं नात.'

ज्या ज्या घरांत ती गेली त्या त्या घरांत कोण न्हय कोण मेल्लो.. कोण्ण मरूंक ना असलें एक लेगीत घर तिका पुराय श्रावस्तींत मेळ्ळें ना. तिचे गिन्यानाचे दोळे उकते जाले. तिका कळ्ळें – 'जल्माक आयिल्ले सगळेच मरतात... म्हजो पुतूय मेला.' तिणें पुताचें प्रेत मसंडेंत पावयलें आनी ती जेतवनांत येवन बुद्धा म्हऱ्यांत बसली.

'मेळ्ळीं, बाय, तुका सांसवां?' बुद्धान तिका विचारलें.

'ना भगवंता...'

'कळ्ळें मू तुका, जिवीत म्हळ्यार कितें तें?'

'कळ्ळें, भगवंता', तिणें जाप दिली.

बुद्धान तिका दीक्षा दिवन भिक्षुणी संघांत धाडून दिली.

## विशाखा

असलीच आनीक एक कथा बौद्ध बरपावळींत आयल्या—

विशाखेची नात एक दीस अकस्मात वायटांत पडली आनी वखद-विसर्द करचे पयलींच भायर पडली. आजयेचें काळीज तिचें. खूब रडली आनी नातीक मसंडेंत पावन बुद्धासरीं येवन खोळशांनी रडपाक लागली.

'कितें जालां तुजें, विशाखे? अशी रडटा कित्याक?' बुद्धान तिका विचारलें.

'म्हजी अपुर्बायेची नात गेली...'

बुद्ध ओग्गी रावलो. थोड्या वेळान ताणें तिका विचारलें, 'तुजे नातिचे पिरायेच्यो कितल्यो चलयो आसतल्यो श्रावस्तींत?'

'शेंकड्यांनी.'

'त्यो सगळ्यो तुका नाती म्हूण मेळ्ळ्यो जाल्यार हिचेर करताली तितलोच मायामोग तूं तांचेर करतली?'

'हय तर... करतलींच.'

'बरें, आतां सांग, हे पिरायेच्यो कितल्यो चलयो श्रावस्तींत दिसपट्ट्यो मरतात जातल्यो?' बुद्धान विचारलें.

'कितल्योश्योच.'

'तांच्या मरणान तूं अशीच रडटली? तुका सद्दां दीसभर रडत रावचें पडचें ना?'

'आतां कळ्ळें म्हाका', विशाखेन जाप दिली.

'कळ्ळें मू? म्हणटकूच आतां रडूं नाका.' बुद्धान म्हळें.

आनी विशाखा शान्त जाली.

## सारिपुत्ताचें मरण

बुद्धाची कसवटणी जाल्या ती तागेले दोग सांगाती सारिपुत्त आनी मोग्गल्लान ताचे पयलींच संवसार सोडून गेल्यात त्या वेळार. दोगूय तागेले दोन कान आशिल्ले. आपणा फाटल्यान आपणालो धर्मचक्रप्रवर्तनाचो वावर हेच दोग मुखार व्हरतले अशें तो मानीत आयिल्लो. दोगूय एक दीस कोणाच्याच ध्याना-मनांत नासतना गेले.

सारिपुत्त अवचीत बरो ना जालो. इतलो बरो ना जालो की रगतां ओंकपाक लागलो. आपणालें आयुश्य आतां सोंपपा कडेन पावलां म्हणपाचें ताका कळ्ळें. तें कळनाफुडें ताणें परिनिर्वाणाची तयारी सुरू केली. सगळ्यांत पयलीं तो बुद्धाचो निरोप घेवपाक जेतवनांत गेलो.

'निरोप घेवंक आयलां, भगवंता. म्हजें आयुश्य आतां सोंपपा कडेन पावलां. परिनिर्वाणाची तयारी करूंक सोदतां.' ताणें म्हळें.

बुद्ध गंभीर जालो. ताका सकल वयर सारको नियाळून शांत सुरांत विचारलें, 'कूड खंय सोडपाची येवजिल्या सारिपुत्ता?'

'तिणें जल्म घेतिल्लो त्याच गांवांत... मगध देशांतल्या नालक गांवांत.' सारिपुत्तान जाप दिली आनी बुद्धा पांयांक हात लावन म्हळें, 'ह्या पांयांक हात लावंक मेळचो म्हूण फाटल्या एक हजार जल्मां सावन साधना करीत आयिल्लों... म्हजे हस्तुकी कायीक वाचीक कसलीय चूक घडिल्ली आसत जाल्यार म्हाका क्षमा करची.'

'क्षमा सदांच केल्या हांवें तुका, सारिपुत्ता. पुणून, एक सांगुंकूच जाय. तुजे कडल्यान कसलीच चूक घडिल्ली हांवें आयजवेर पळोवंक ना.'

सारिपुत्त वचपाक उठलो तेन्ना बुद्ध आसना वयलो उठून ताका पावपाक गंधकुटीच्या दारा मेरेन आयलो.

दारा कडेन पावतकूच सारिपुत्तान बुद्धाक तीन प्रदक्षणा घाल्यो आनी ओणवो जावन पर्थून बुद्धाच्या पांयांक हात लावन म्हळें, 'ही निमाणी भेट आमची.'

बुद्धान ताचे तकलेर हात दवरून ताका आशिर्वाद दिलो.

सारिपुत्त उबो रावलो आनी बुद्धाक फुडो करून फाटले वटेन चलत रावलो. तो थोडो मुखार वतकूच बुद्धान जेतवनांतल्या श्रावक श्राविका, उपासक उपासिका सगळ्यांक म्हळें, 'हो तुमचो व्हडलो भाव. हाका पावपाक श्रावस्तीचे शिमे मेरेन वचात.' पुराय जेतवन सारिपुत्ताक पावपाक ताचे फाटल्यान गेलें. जेतवनांतल्या सगळ्यांक गेल्ले पळोवन पुराय श्रावस्ती नगरीय ताका पावपाक शिमे मेरेन गेली.

शिमेर पावतकूच सारिपुत्तान सगळ्यांक नमस्कार करून परतूंक सांगलें.

सात दीस लागले ताका आपणाल्या गांवांत पावपाक. पावतकूच गांवा भायर आशिल्ल्या एका पिंपळा मुळांत वचून बसलो.

तो आयिल्ल्याची खबर तागेल्या भाच्याक, उपदेवताक कळ्ळी. रोखडोच तो मामाक मेळपाक पिंपळा मुळांत आयलो. 'आजी कशी आसा?' सारिपुत्तान ताका विचारलें. 'हांव आयिल्ल्याचें तिका सांग. जे कुडींत म्हजो जल्म जाल्लो ती कुडूय सान्न मारून निवळ करून घेवंक लाय.'

'तुजे बरोबर आयला तो भिक्खू-संघ खंय रावतलो?'

'ताचीय रावपाची वेवस्ता करूंक लाय.'

पूत घरा आयिल्ल्याची खबर आयकून आवय भुल्लुसून आयली. पंचेचाळीस वर्सांनी तो घरा आयिल्लो. तिणें कूड निवळ करून घेतली. भिक्खुंचीय रावपाची वेवस्ता केली आनी 'चल, वचून ताका घेवन यो' अशें सांगून नातवाक पुतासरीं धाडून दिलो.

पुतान सगळ्यांक दीक्षा दिल्ल्यो. फकत आवयक दिवंक नाशिल्ली. कूड सोडचे पयलीं हेंवूय काम ताका पूर्ण करपाचें आशिल्लें. घरा येवन ताणें आवयक विचारलें, 'कशें दिसलें तुका, म्हाका पळोवन?'

'तुका मानपी इतले श्रद्धावंत लोक पळोवन तुजो गुरू केदो व्हड आसूंक जाय हाचो अदमास लावपाक बसल्यां हांव', तिणें म्हळें.

पुताक व्हड स्थवीर जाल्लो पळोवन ती खुशालभरीत जाल्ली.

'शील, समाधी, प्रज्ञा आनी विमुक्ती ज्ञान ह्या मळार म्हज्या गुरूक लागपी धर्तरेचे फाटीर दुसरो कोण ना', सारिपुत्तान आवयक म्हळें आनी विचारलें, 'तो कितें सांगता तें आयकुपाचें आसा व्हय तुका?'

तिणें हय म्हणिनाफुडें ताणें चार आर्यसत्यां आनी चौथ्या आर्यसत्यांतलो आठ आंगी मार्ग तिका समजावन सांगलो. तिचे गिन्यानाचे दोळे त्याच खिणाक उकते जाले आनी तिणें म्हळें, 'हें अमृत तुवें इतलीं वर्सां म्हाका चाखूंक कित्याक दिलें ना रे, पुता?'

'वेळ येवंक नाशिल्लो', ताणें जाप दिली.

आवयचे गिन्यानाचे दोळे उकते जाल्यात हें पळेनाफुडें ताका आपणालें उरिल्लें कामूय पूर्ण जाल्लेवरी दिसलें. रोखडेंच ताणें आपणा वांगडा आयिल्ल्या भिक्खूंक आपोवन म्हळें, चोवेचाळीस वर्सां तुमच्या सांगातांत रावंक मेळ्ळें. तुमचो निरोप घेवपाचो आतां खीण आयला. म्हजे हस्तुकी आगळें उणें कितेंय घडिल्लें आसत जाल्यार तुमी म्हाका क्षमा करची.'

सारिपुत्ताचें अवतार-कार्य सोंपिल्लें. रोखडेंच ताणें चिवर आंगार ओडून घेतलें. आनी उजवे कुशीक आड पडून – हाताचें उशें करून – ताणें ध्यान सुरू केलें. चौथें ध्यान पूर्ण जायनाफुडें ताणें प्राण सोडलो. आवय खूब रडली. अनुरुद्ध स्थविरान ताका अग्निसंस्कार दिलो. आनी चुन्द नांवाच्या दुसऱ्या एका स्थविरान ताच्यो अस्थी एकठांय केल्यो आनी धर्मसेनापतिच्या परिनिर्वाणाची खबर सगळ्यांत पयलीं भगवंताक सांगूंक जाय, अशें येवजून अस्थिकलश घेवन जेतवनांत आयलो. जेतवनांत सगळ्यांत पयलो ताका आनन्द मेळ्ळो. मागीर एक एकल्याक अस्थिकलश दाखयत दाखयत तो गंधकुटींत आयलो. अस्थिकलश पळोवन बुद्ध आसनावयलो उठलो. अस्थिकलश आपणा हातांत घेतलो आनी जेतवनांतल्या भिक्खूंक म्हळें, जो पयरूच आमचो निरोप घेवपाक हांगा आयिल्लो ताचीं आयज फकत हाडां उरल्यांत. फाटल्या कितल्याश्या जल्मां पसून साधना करीत करीत ह्या जल्मांत तो आमचो सांगाती जाल्लो. धर्मचक्रप्रवर्तन मुखार चलोवन व्हरपी तो तुमचो एक म्हालगडो आशिल्लो. प्रज्ञावंत आनी शीळवंत, त्यागी आनी क्षमावंत, करुणेन उपाट भरिल्लो...'

बुद्धाच्या तोंडांतसून भायर सरिल्लीं सारिपुत्ताची ही वर्णना आयकून आनन्दाचें काळीज भरून आयलें. तो रडपाक लागलो.

'आनन्दा, तो गेलो म्हूण तूं रडटा रे? कितें घेवन गेलो तो? शीलस्कंध, समाधीस्कंध, प्रज्ञास्कंध, विमुक्ति-ज्ञानस्कंध आपणा वांगडा घेवन गेला व्हय तो?'

'ना भंगवंता', आनन्दान म्हळें, 'तो कितेंच घेवन वचूंक ना. पुणून... ताणें म्हाका उपदेस केल्लो. कळनाशिल्ल्यो कितल्योश्यो गजाली स्पस्ट करून समजावन सांगिल्ल्यो. ताणें म्हाका शिकयला. घडयला. प्रेरणा दिल्या. ताच्या उगडासान काळीज भरून आयलें.'

'आनन्दा, आपणालीं मनशां सोडून मनीस एक दीस उठून वता म्हणपाचें शिकोवंक ना ताणें तुका? जो जल्माक आयला तो मरपाचोच आसा. जें ना जावपा खातीर आयलां तें ना जावपाचेंच आसा... सांगूंक ना हांवें आनी ताणें हें सगळें तुका? सारिपुत्त ह्याच नेमान ना जाला. तो ना जावंक जायना आशिल्लो अशें आमकां कितलेंय दिसूं, जो वचपाचो आशिल्लो ताका आडावप कोणाकूच अंदाजा जावपाचें नाशिल्लें. आतां आत्मदीप जावंक शीक. आपुणूच आपणालो दिवो जावन मुखा वयली वाट चलपाक लाग. आत्मशरण जा. आपणाचेरूच निंबून मुखार वचूंक शीक. दुसरी वाट ना...'

### मोग्गल्लानाचें मरण

सारिपुत्ताचें परिनिर्वाण कार्तिकांतले पुनवेक जाल्लें. हाचेर एक पंद्रस लेगीत वचूंक ना, उमाशेक मोग्गल्लानाचें जालें. तेंवूय विचित्र तरेन.

बुद्धाची जांकां नसाय जाताली असले कांय धर्मपंथ मगध कोसलच्या वाटारांत चलताले. 'बुद्धाक जे सगळे माथ्यार घेवन नाचतात ते तागेल्या ह्या सारिपुत्त आनी मोग्गल्लान ह्या दोग सांगात्यांक लागून', अशें तांतल्या एका पंथाच्या म्हालगड्यांक दिसतालें. 'हे जाय तेन्ना देवलोकांत वतात आनी जाय तेन्ना नरकांत वतात, असो लोकांचो समज जाला. हाका लागून लोक हांच्या गुरुचो भौमान करतात' अशें ते म्हणपाक लागिल्ले. दोनां मजगतचो एकलो ना जाला. ह्या दुसऱ्याक लेगीत ना करूंक जाय; म्हणटकूच बुद्ध संघ भंगतलो आनी मागीर लोक आमचे वशीन येतले' अशें तांकां दिसतालें. तांणी कांय गुंडांक पयशे दिवन मोग्गल्लानाचेर सोडले. मोग्गल्लान तांकां सुरवातीक चकयत रावलो; निमाणें चकोवन कांय लाव जावपाचो ना; कितें जाता तें जावं अशें येवजून तो उक्तेपणीं चलपाक लागलो. गुंडांनी ताका एक दीस धरलो आनी जितो मारलो. ताचीं हाडां मोडलीं आनी झिलिंनी भरिल्ले एके सुवातेर व्हरून ताका उडयलो.

जांचेकडेन पळेता आसतना आपणाले वारस म्हूण बुद्ध पळेत आयिल्लो तेच, हे भाशेन, अवचीत भरिल्ले मदलसेंतले उठून गेल्ले पळोवन बुद्धाक कितें जावंक फावऽ आशिल्लें, अदमासूच केल्लो बरो.

दोगांयच्या परिनिर्वाणा उपरांत रोखडोच बुद्ध भिक्खू संघाक घेवन विहाराक भायर सरलो. वज्जी देशांतल्या उक्काचिल गांवांत गंगेचे तडीर वचून राविल्लो. थंय पावतकूच पयल्याच दिसा तो सगळ्यांक घेवन एका उकत्या मळार बसलो. सगळ्यांक ओग्गी बशिल्ले पळोवन ताणें म्हळें —

'भिक्खुंनो, आयज आमची ही सभा उकती उकती-शी, रिती-रिती-शी दिसता. सारिपुत्त मोग्गल्लान आशिल्ले त्या वेळार ती अशी उकती रिती केन्नाच दिसनाशिल्ली. भरिल्ली-भरिल्लीशी दिसताली. हाचे पयलीं जे कोण सम्यक संबुद्ध जावन गेले तांकां मेळिल्ले त्याच पांवड्याचे आमचे हे दोगूय सांगाती आशिल्ले. ते विहार करताले त्या वाटारांत वचपाची तथागताक केन्नाच गरज भासऽ नाशिल्ली. दोगूय तोलामोलाचे आशिल्ले. धर्मचक्रप्रवर्तनाक फावऽ सारकेच दोगूय अधिकारी आशिल्ले. अवचीत तांकां भरिल्ले मदलसेंतले उठून गेल्ले पळोवन तथागताक दुख्ख जावंक जाय आशिल्लें, असले दुसरे खंय मेळटले, अशें दिसूंक जाय आशिल्लें. पुणून, ना, भिक्खुंनो, तथागताक दुख्ख जावंक ना. जें ना जावपा खातीर जल्माक आयलां तें ना जालें जाल्यार दुख्ख कसलें? ना जावपाचें ना जालें, इतलेंच ताका दिसलें. एक म्हाल-म्हातारो रूख आसचो, ताच्यो दोन खांदयो तुटून पडच्यो तशे हे आमगेले दोगूय सांगाती तथागत आनी भिक्षुसंघ आसतनाच गेल्यात अशें दिसलें. भिक्खुंनो, जें ना जावपाचें तें ना जावचें न्हय अशें आमकां कितलेंय दिसलें जाल्यारूय तें ना जाले बगर रावना. भिक्खुंनो, जण एकल्यान आपुणूच आपणालो उजवाड जावन, आपणाचेरूच पातयेवन धर्माची वाट चलूंक जाय. जिविताचेर पातयेवंक जायना. तें केन्ना सोंपत, सांगूंक येना. जे वतात तांचो खेद करपांत अर्थ ना. चित्ताची संतुळा होगडावंक जायना.

सारिपुत्त मोग्गल्लाना सारकेले दोनूय हात गळून पडिल्ले आसतनाय बुद्धाच्या कामांत खंड पडूंक ना. तो सदां भाशेन एका गांवांतल्यान दुसऱ्या गांवांत आपणालीं चार आर्यसत्यां आनी चौथ्या सत्यांतलो आठ आंगी मार्ग लोकांक समजायत भोंवला. नव्या नव्या लोकांक दीक्षा दीत रावला. ह्या निमाण्या वर्सांनी तर ताणें एका वाटमाऱ्याकूय दीक्षा दिवन मनशांत हाडला.

ह्या वाटमाऱ्याचें नांव अंगुलिमाल.

### अंगुलिमालाची कथा

कोसल राजाच्या एका पुरयताचो पूत हो. मैत्रायणी नांवाचे ताचे घरकान्नीक जाल्लो. परंपरेन हो घराबो अहिंसक आशिल्लो. विचारानूय अहिंसक आशिल्लो. म्हूण पुताकूय आवय बापायन 'अहिंसक' म्हूण नांव दवरिल्लें. मूज करतकूच बापायन ताका तक्षशिलेंतल्या एका गुरुगेर शिकपाक धाडून दिलो. गुरुगेर रावन तो वेद, वेदांग, व्याकरण, निरुक्त, शिकपा सारकें सगळें शिकलो. भुरगो बुदवंत, तितलोच शीळवंत. गुरूक तो खूब आवडटालो. पुणून, गुरुगेर जे दुसरे भुरगे शिकपाक येवन राविल्ले तांकां ताची नसाय दिसपाक लागली. ताका आनी गुरूक फोडचो म्हूण तांणी तरांतरांच्यो माण्ण्यो केल्यो. एक दीस एकल्यान एक माण्णी रचली. गुरू परस गुरुची घरकान्न हाची चड अपुर्बाय करता हें ताणें पळेल्लें. तिका आनी हाका बरें, हें गुरूक पटोवचें अशें ताचे सांगणेन सगळ्यांनी थारायलें. सगळ्यांनी आप्रणाक तीन पंगडांनी वांटून घेतले. एक पंगड पयलीं गुरू सरीं गेलो आनी ताणें गुरूक म्हळें, 'कितें आयकतात आमी हें? लोक ह्या भुरग्याक आनी तुमचे घरकान्नीक

बरें म्हणटात.'

गुरू उसळ्ळो. 'ताका फोडूंक पळेतात तुमी म्हजे पसून, उणाकांनो? लागात चलूंक हांगासरले. तुमचें तोंड लेगीत म्हाका पळोवपाचें ना...'

'नदर दवरून पळेयात, मागीर कळटलें', भुरग्यांनी म्हळें.

उपरांत कांय दिसांनी दुसऱ्या पंगडान, मागीर एक दीस तिसऱ्या पंगडान गुरूक तेंच सांगलें. गुरू दुबावलो. भुरगे सांगतात तें खरें आसूंक जाय अशें ताका दिसपाक लागलें. ताणें घरकान्निचेर नदर दवरली. ती ताची खुबूच अपुर्बाय करता तें ताणें पळेलें. कितें करचें, ताका प्रस्न पडलो. ताका जितोच मारचो अशें ताका दिसलें. पुणून मारलो जाल्यार गुरू आपणाल्या शिष्यांक जिवे मारता अशें सगळेकडेन जातलें आनी मुखार भुरगे शिकपाक येवपाचे बंद जातले, अशें ताका दिसलें. ताणें मारपाचो बेत सोडून दिलो आनी मनांत म्हळें, हाचें शिक्षण पयलीं सोंपूं दी. तें सोंपतकूच तो गुरुदक्षिणा कितें दिवं काय म्हूण विचारपाक येतलो तेन्ना हजार लोकांक जिवे मार म्हूण ताका सांगतलों, अशें थारायलें. 'ह्या हजारां भितरलो कोणूय ताका मारतलो.'

कांय दिसांनी शिक्षण सोंपलें आनी भुरगो गुरुदक्षिणा कितें दिवं काय म्हूण विचारपाक आयलो.

'हजार लोकांक जिते मार...' गुरून म्हळें.

'म्हज्यान असलें काम जावपाचें ना.' भुरग्यान निक्षून सांगलें. आमच्या घराब्यांतलो कोणूच असलीं कामां करून येवंक ना...'

'तुवें ही गुरुदक्षिणा दिली ना जाल्यार शिकला ती विद्या फळाक येवची ना.'

भुरगो थोडो वेळ घुटमळ्यांत पडलो. म्हणटासर तरसाद आनी धाल घेवन तो उठलो आनी रानांत भितर सरून लाकडां मारूंक येतल्यांक मारपाक लागलो. करतां करतां रानांतलो गांवांनी वचून मारपाक लागलो. आपणें कितल्या लोकांक मारले हाचो सुरवेक तो हिशोब दवरतालो. पुणून ताणें इतल्या लोकांक मारिल्ले की कांय दिसांनी ताका हिशोब लागना जालो. म्हूण तो मारिल्ल्या लोकांचीं बोटां कातरून दवरपाक लागलो. एक दीस ही जमयल्लीं बोटां शेणलीं. म्हूण ताणें लोखणाची एक सरी हाडली आनी हे सरयेंत तीं बोटां गुंथून दवरपाक लागलो. आनी सरी गळ्यांत घालून भोंवपाक लागलो.

म्हूण ताका अंगुलिमाल हें नांव पडिल्लें.

अंगुलिमाल हें नांव कानार पडनाफुडें लोक थरथरपाक लागले. गांव सोडून पळून वचपाक लागले. कोसलचो राजा पसेनदी. ताच्या कानार ही खबर पावली. तो रोखडेंच सैन्य घेवन अंगुलिमालाक धरपाक भायर सरलो.

बुद्धाच्याय कानार ही खबर गेली.

एक दीस सकाळीं पात्र चीवर घेवन भिक्षे खातीर बुद्ध भायर सरिल्लो तो नीट अंगुलिमाल आसा म्हूण लोक म्हणटाले. ते दिकेन चलपाक लागलो. बुद्ध हे दिकेन वता हें कांय राखण्यांनी, वनवाळ्यांनी, शेतकामत्यांनी पळेलें. सगळ्यांनी ताका म्हळें, 'भगवंता, हे वाटेन वचूं नाका. हांगा एक वाटमारो रावता. तो मजे खातीर लोकांक मारता आनी तांचीं बोटां कातरून आपणाल्या गळ्यांतले सरपळेंत गुंथून घेता...'

बुद्ध कांयच जाप दिनासतना चलत रावलो.

अंगुलिमालान ताका पळेलो. ताका अजाप जालें. ताणें मनांत म्हळें, 'म्हजो धेंक चोंय दिकांनी पातळ्ळेलो आसतना हाका एकलोच हे वाटेन येवपाचो धीर कसो जालो?'

तो तरसाद घेवन बुद्धाच्या आंगार धांवन गेलो.

बुद्धान ताका धांवन येता तो पळेलो. तरी आसतना तो पावलां मुखार घालीत चलत रावलो. 'अब्बा! हांव धांवन वतां तेन्ना कोणूच मुखार पावल घालिना. चाळीस चाळीस लोक आसले जाल्यारूय पळून वतात. आनी हो एकलोच चलत येता!'

ताणें मोट्यान बुद्धाक म्हळें, 'मुखार पावल घालूं नाका. थंयच उबो राव...'

'हांव उबोच आसां, तूंय थंयच उबो राव' अशी जाप दिवन बुद्ध चलत रावलो.

'तूं चलता आसुनूय आपूण उबो आसां म्हणटा आनी हांव उबो आसुनूय तूं म्हाका उबो ना म्हणटा, हाचो अर्थ कितें?' अंगुलिमालान ताका विचारलें.

'सगळ्या जिवां विशीं म्हज्या काळजांत करुणा भरल्या म्हूण हांव उबो आसां, थीर आसां... तुज्या काळजांत ती ना म्हूण तुका हांव अस्थीर म्हणटां.' बुद्धान जाप दिली.

अंगुलिमाल शेळेलो. ताच्यांतल्या मनीसपणाक जाग आयिल्ली. ताणें बुद्धाची नामना आयकल्ली. तरसाद बुद्धाच्या पांयांसरी दवरून आपणाक तुज्या गोपांत घे म्हूण ताणें मागलें.

'असो हांगा यो' अशें म्हणून बुद्धान ताका लागीं ओडलो आनी थंयच प्रव्रज्जा दिवन ताका घेवन तो जेतवनांत आयलो.

पसेनदी अंगुलिमालान धरून हाडपा खातीर सैन्य घेवन भायर सरिल्लो. जेतवना लागसार पावतकूच तो बुद्धाचे भेटेक भितर सरलो. 'येदें व्हडलें सैन्य घेवन खंय वचपाक भायर सरला? कोणें तुज्या राज्याचेर घुरी बिरी घाल्या काय कितें?' बुद्धान ताका विचारलें.

'भायल्यान कोणें घुरी घालूंक ना...' पसेनदीन जाप दिली. 'भितरलोच अंगुलिमाल नांवाचो एक वाटमारो लोकांक पिडपाक लागला... ताका धरपाक वतां.'

बुद्धान मुमुरख्यांनी हांसून विचारलें, 'धरुंया, अंगुलिमालान मुंडन करून घेतलें, आंगार भगवें घालें आनी भिक्षू जावन ताणें आपूण कोणाची हत्या करचों ना, चोरी करचों ना, फट उलोवचों ना, असो सोपूत घेतलो जाल्यार तूं ताका कितें करतलो?'

'हेर भिक्षूं कडेन चलतां तसो ताचेय कडेन चलतलों.'

बुद्धान म्हऱ्यांत बशिल्ल्या अंगुलिमालाक उजव्या हातान दाखोवन म्हळें, 'हो पळे, अंगुलिमाल हांगा बसला.'

राजाच्या आंगार कांटो फुलून आयलो. तो भियेल्ले वरी जालो.

'ताका भियेवं नाका, तो कांय करपाचो ना', बुद्धान म्हळें.

'तुज्या आवय-बापायचें गोत्र खंयचें?' पसेनदीन अंगुलिमालाक विचारलें.

'आवयचें मैत्रायणी. बापायचें भर्ग', ताणें जाप दिली.

हो आपणाल्या पुरयत्ताचो पूत म्हणपाचें राजाक कळ्ळें. आनी ताणें म्हळें, 'तूं सुखान राव हांगा.'

पसेनदीन बुद्धाक म्हळें, 'राजाचे सत्येक आनी शस्त्रांक जें जमलें ना तें तुवें मोगान घडोवन हाडलें. तुवें एका उचांबळीत मनशाक शान्त केलो...'

अंगुलिमाल भिक्षू जाल्ल्याची खबर श्रावस्तींत सगळे कडेन पातळ्ळी. तो पयलिंचो उरूंक ना, अर्हतपदार पावला म्हणपाचेंय लोकांक कळ्ळें. पुणून लोक ताचें पुर्वायुश्य विसरूंक नाशिल्ले. एक दीस तो भिक्षाटणाक गेल्लो तेन्ना एकल्यान ताचेर एक फातर शेंवटून मारलो. म्हणटासर कितलेशे जाण मुखार आयले. कोणें दांडो तकलेर मारलो. कोणें आनीक कितें मारलें. रक्तबंबाळ अवस्तेंत तो बुद्धा मुखार येवन उबो रावलो. बुद्धान इतलेंच म्हळें, 'पुता, सोंस हें सगळें... करणेचें फळ तुका ह्याच जल्मांत भोगूंक मेळटा इतलोच अर्थ हाचो...'

मार सोंसुनूय अंगुलिमालाचें चित्त उचांबळीत जावंक नाशिल्लें. थंड उरिल्लें. ताणें मनांत म्हळें, पुर्वायुश्यांत मस्ते आशिल्ले मनीस उतार पिरायेर जाग्यार येतात तेन्ना कुपांतल्यान सुटिल्ल्या चंद्रा भाशेन लकलकतात. म्हज्या दुस्मानांनी लेगीत बुद्ध-मत्त समजून घेवचें, शिकचें...

* * *

## चांफेल्ली दनपार

**शंकर रामाणी**

*तिणें*
*आपल्या लांब काळखापरसय*
*दाट बेस ब-या वळयल्ल्या केंसांत मोठ्ठे*
*खोशयेन चांफेल्ली दनपार माळ्ळी*
*तेन्ना रखरखिल्लो वैशाख भायर*
*भितर परमळान घमघमून एका पयसुल्ल्या*
*हारशेल्ल्या मेकळ्या नितळ तळ्यांत*
*आपलें हुमेल्लें मुखामळ ओखून उपाट*
*उमेदीन अदिकच तांबडोगुंज जालो*
*आनी शेजारच्या दोंगरावेल्या करपल्ल्या रानांत*
*लकणी येवन रुखावळिंचे पातळ सावळेंत*
*झेमतल्या सैमाचें एकटेपण*
*कोगळाच्या अवचीत उर्बेभरीत सादान*
*दोळे किलकिलायत खिणभर मुमुरखेंशें हांसलें.*

## सीतेची व्यथा

**विजयाबाय सरमळकार**

*कोणा खातीर घडलें अशें*
*जाब कोणाक दिवची ना*
*जितले मनीस तितलीं मनां*
*उदेवन वचपी सगलें जाणां ॥१॥*
*मिथीलेची मैथिली*
*जनकाची जानकी*
*रामाची हांव सीता*
*जितलीं नांवां तितल्यो व्यथा ॥२॥*
*त्रिलोक छळ्ळें जाणें*
*देवादिकांक ख्यास्त दिली*
*सुवार्थाक नासता दोळे*
*देखून हांवेंच धांपले दोळे ॥३॥*
*गुन्यांवाचो प्रतिकार*
*करप होच पुरुषार्थ*
*क्षत्रियांचें बीज देखून*
*रगत आयलें सळसळून ॥४॥*
*दोन फावट दिव्य केलें*
*कोणाक अर्थ समजलो ना*
*उमथ्या कळशार उदक घाल्यार*
*दिसलें म्हाका धरचेलें ना ॥५॥*
*जल्मदात्री धरणीमाय*
*तीच म्हजी जाणटा व्यथा*
*देकून फिरून घेतलें घालून*
*सांगूंक म्हजी कर्मकथा ॥६॥*

*(कांय वर्सां पयलीं एका कवीन बरयिल्ले कवितेक दिल्ली जाप.)*

# सैम पिश्या मना

प्रकाश पर्येकार

सैम उबें भांगर हांशें
लोळटा मन वारें पिशें
अटंग्या रानांत
क़ोण बांसरी वाजयता
वाट चिरीत सूर
मना चंवर भरशिता
हो कोग गे कान्हा
काळजा तळमळ मना
गोवळण चलता वाट
अटंग्या रानाचो घांट
खिणां मुरगंट्टा नदर
हड्झ्यार ओडून पदर
आंगां सळसळ पानां
काटयां कणकिचीं बनां
धांव घे रे म्हज्या कान्हा
ह्या काळोख बिण्ण राना
बंद कर पांजऱ्यांत
म्हज्या सैम पिश्या मना.

# कविता सोदता राबितो!

शरतचंद्र शेणै

खंय राजपाटणांच्या रावळारांनी न्हय
भरिल्ल्या दरबारांनी न्हय
कविसंमेळनांनी न्हय
पुस्तकांच्या पानांनी न्हय
वाचप्यांल्या दोळ्यांनी न्हय
आयकुप्यांल्या कानांनी न्हय
गावप्यांल्या जिबांनी न्हय
कविले लिखणेरीय न्हय
रसिका, तुज्या काळजांत मरे
जाय म्हाका राबितो!

# दोन कविता

माधव बोरकार

## पावस

हो पावस खर म्हाका
तुका भेटूंक दिना
रातभर ओतलो तरी
धार मातय काडिना.

हो पावस पिसो म्हजीं –
शिरंतरां पेटयता
उज्यावरी रगतांत
स्वास तुजे केळयता...

## पाणी

मनाचें वृंदावन
राधा आनी कृश्ण
यमुनेचें पाणी
आज कितलें उश्ण!




## पुंडलीकजी कातगडे हांची एक चीट

रामदेवगल्ली-बेळगांव
१-७-७८

श्रीमान् बंधू रवीन्द्र केळेकर यांना

'ज्ञाननिधीच्या सान्निध्यांत' या आपल्या पुस्तकाची एक प्रत पू. काकासाहेबांनी मला 'भेट' म्हणून दिलेली आहे. तें वाचून मला अत्यंत आनंद झाला. हें आपल्याला कळवावें एवढ्यांच हेतूनें मी आपल्याला आज पत्र लिहून आपला वेळ घेतला आहे.

आपण हें पुस्तक लिहून मराठी वाङ्मयाची फार मोठी सेवा केलेली आहे. काकासाहेबांच्या प्रदीर्घ जीवनांतील कित्येक अनुभव, गोष्टी, प्रसंग, दुर्मिळ माहिती, आणि अमोल विचार आपण मराठी जनतेला उपलब्ध करून दिलेले आहेत. ही एक महान सेवा आपल्या हातून झालेली आहे. गुऱ्हाळांत ऊस घाण्यामध्यें घालून त्यांतील सर्व रस काढून घेतला तरी, त्या उसाच्या सोपटामध्यें थोडा तरी रस शिल्लक राहातोच; आणि शिवाय दुसरा एक फरक आपल्या ध्यानांत येईल की, त्या घाण्यामध्यें पिळून निघालेल्या उसाच्या सोपटामध्यें पुनः नवीन रस त्यानंतर भरूं शकत नाहीं. परंतु काकासाहेबांमध्यें रोज नवीन रस व ज्ञान भरत असते. तो सर्व ज्ञाननिधि मराठी जनतेला उपलब्ध करून देण्यात आपण काकासाहेबांच्या जवळ कांही काळ रहावयास गेले पाहिजे असे मला वाटतें. दुसऱ्या कोणाकडूनही हें काम होणार नाहीं.

कारण आपली ज्ञान टिपून घेण्याची बुद्धि व तें शब्दामध्यें मांडण्याची कला क्वचितच पहावयास लाभू शकेल. शिवाय काकासाहेबांची भाषा, विचारसरणी, आजपर्यंतचें त्यांचें मराठी-गुजराती-हिंदी-इंग्रजी वाङ्मय या सर्वांशी आपला चांगला परिचय आहे. आणि ईश्वराने आपल्याला जबरदस्त स्मरणशक्ति दिलेली आहे. या सर्व गोष्टी अन्यत्र एकत्रित पहावयास मिळणें कठीण आहे. एवढेंच नव्हे तर माझ्या दृष्टीनें ते दुर्मिळच आहे.

आपला वेळ, मी हें पत्र लिहून, घेतल्याबद्दल आपण मला क्षमा करावी. कळावें, लोभ असावा ही विज्ञापना.

आपला
पुंडलीकजी कातगडे

# कोंकणी सरस्पतिची प्रासादीक पंचरवाद्य

**किरण बुडकुले**

अंदू वर्साच्या कोंकणी भाशा मंडळाच्या पुरस्कारांची बातमी वाचतनाच ती नदरेंत भरली. पूण अंदूच्या नांवांमदीं एक खोसदिणें संतुलन आशिल्लें. घडये अशेंय आसत, जीं पुस्तकां वेगळ्यावेगळ्या कारणांक लागून म्हगेल्या काळजांत वा मतींत सुवात सांबाळून आशिल्लीं, तांचो उल्लेख पुरस्काराचे वळेरेंत पळोवन म्हजे भितरलो रसीक वाचपी समेर आयलो जायत. कितेंय आसूं, बरयन दिसलें. त्या त्या लेखकांक म्हगेले उत्स्फुर्त खोशयेची पावती धाडीन दिसली.

हे तोखणायेचे भागिदार आसात चार तरणाटे पूण प्रगल्भ बरोवपी: सर्वश्री देविदास कदम (**कांदळां** कथांझेल्याचे लेखक), प्रसाद लोलयेंकार आनी राजय पवार (अनुक्रमान **मुळां** आनी **पावसफुलां** ह्या कवितासंग्रहांचे सर्जनकर्ते), आनी दिनेश मणेरकार (**वेंचिल्ले खीण** निबंदबद्ध करपी ललित लेखक.) ह्या पिरायेन तरणाट्या लेखकां वांगडा म्हाका गुरुतुल्य आशिल्ले आनी मनान चिरतरूण अशे अध्यापनशास्त्रांतले दिग्गज श्री. वसंत लवंदे (**कोंकणी भाशेचें अध्यापन** ह्या अभ्यासू पुस्तकाचे जनक) हेवूय आसात.

कोंकणी सरस्पतिचे सेवेक ओंपिल्ल्या ह्या साहित्यीक निवेद्याचें आस्वादन केल्यार तांकां प्रसादयुक्त पंचखाद्य म्हणचें पडटलें. हांचे वरवीं कोंकणी कथा, काव्य, निबंद आनी भास वांगडाच गिरेस्त जावंक पावल्या. ह्या पुस्तकां वरवीं एक गजाल स्पश्ट जाता: आज कोंकणी बरोवपी सामको सुस्ताविल्लो ना. नवे नवे लेखक कोंकणी सरस्पतिच्या दारांत आपणाले तांकिप्रमाण आनी प्रामाणीकपणान आपणालें योगदान दीत आसात.

'कांदळां'तल्यान एक असो कथालेखक कोंकणी कथेच्या मळबार झळकला जाका समाजीक बांदिलकिचो भोव ओडो आसा. तागेल्या विशयांची निवड, तांकां सांधून उदेल्लें ते ते कथेंतलें अणभव-विश्व आनी दरेके कथेंतल्यान दिसून येवपी समाजीक आस्था हांकां लागून लेखकाक आशिल्लें जिविता विशिंचें अगत्य, बदलत वचपी मुल्यां विशिंच्यो ताच्यो धारणा आनी आपणालें नीज दर कथेंत अचळय सोडचेली तागेली इत्सा होलमता. देविदास कदमाली नदर काळानुरूप सामान्य व्यक्ती वेटेन आनी चड करून वाट चुकिल्ल्या वा वाट सांपडनाशिल्ल्या तरणाट्यां वेटेन घुंवता. पूण हाका आडवादय आसा. केन्ना केन्ना तो बदलिल्ले मूल्यवेवस्थेंत संदर्भहीण जाल्ल्या जाण्ट्यांकय आपणाले लिखणेच्या आवाठांत हाडटा. असल्या कथांतल्यान मागीर समजणेन आनी पिरायेन जाण्टो आशिल्ल्याचें काळीज पिळवटावपी समाजीक तशेंच मानसीक नेण्टेंपण मुखार येता.

'कांदळां'तलें समाजचित्रण चड करून समकालीन वेवस्थेच्या संदर्भात जाल्ल्यान तांतुंतल्यान उबे जावपी प्रस्नय आयचे ज्वलंत अशे प्रस्न आसात. केन्ना केन्नाय आयच्या समस्यांचें फाल्यां उदेवपी भिरांकूळ चित्रय 'कांदळां'त झळकता. 'वेलकम टू...' सारकेले कथेंत तें जे तरेन दिसता, तातुंतल्यान वाचपी व्यथितच जाता, अस्वस्थय जाता. एड्स सारक्या जिवघेण्या रोगाकडल्यान अमुरपिके पिरायेर लैंगीक गिन्यानाच्या अभावामरेन लेखकाचें संवेदनशील मन सहजतायेन भोंवता. कांय कडेन आशयाच्या प्रभावी प्रकटीकरणा खातीर ताका मातश्या नाटकीपणाची वा संवादांतले कृत्रिमतायेची वाटय आपणावची पडटा. तशेंच एखाद्रया प्रसंगाक सोबोवचे खातीर अतितायेचो अंशय केळोवचो पडटा. हे जरी वाचप्याक दोश कशे दिसले तरी लेखकाचे समाजीक आस्थे वांगडा तांचो संबंद आसा.

जेन्ना लेखक समाजीक बांदिलकेक निखळ कलेवयली सुवात दिता तेन्ना आपसुकच ताचे हस्तुकी अशे तरेच्यो तडजोडी घडटात. पूण एकएकदां तागेलें समाजीक भाश्य मोनें आसुनूय आनी तांतुंतलें प्रसंगचित्रण भडक नासुनूय एक भोव यशस्वी आनी सुरबूस कथानक जल्माक येता. जिवें, मनाक अस्वस्थ करपी आनी कलात्मक आनंदय दिवपी. चड करून 'कांदळां'तली निमणी कथा हे तरेची आसा. ह्या संग्रहांतले ते निमणे कथेंत कदमाच्या मुखावेल्या संग्रहांच्या दमदार पावलांची सुलूस मेळटा. तीं पावलां उत्तरोत्तर दर्जेदार आनी परिणामकारक थारचीं. तांचे वरवीं कोंकणी कथा अदीक गिरेस्त जावची हीच आस्त.

'मुळां'तल्यान एक आगळो आनी जिविता वटेन गंभिरतायेन पळोवपी कवी कोंकणींत आंकुरला ही कोंकणी कवितेच्या फुडाराचे नदरेन भोव आश्वासक गजाल. पुनरुज्जीत साहित्ययुगाचें 'अस्मिताय' केंद्रित सर्जन 'मुळां'त भरघोस प्रमाणांत आसा. 'हांव' आनी 'आस्तेंपण' ह्या मनशाक चिरंतन काळार सावन वेधपी प्रस्नांनी प्रसाद लोलयेंकाराकय चपक्यांत धरला. विशेश म्हळ्यार ह्या प्रस्नांकडेन सर्जनात्मक लटाफट करतना प्रसादाक कांय ठोस प्रतिकांचो आनी रुपकात्मक अभिव्यक्तिंचो आलाशिरो घेन दिसला तो सहजगम्य आनी ओडलायणो आसा. तागेल्या तंत्राचें एक खाशेलपण म्हळ्यार मुळांचे बुन्यादी सूत्र घेवन तो जिणेच्या भौरंगी अणभवांक सामकारा गेला. तशेंच तागेले कवितेंतसून सचेतन अशीं प्रतिकां चड प्रभावीपणान उदेल्यांत. सैमाक ताणें लागिंच्यान अणभवलां म्हूण वाचप्याकय तो सैमाची जिवसाण आनी ताजपाण दिवंक पावला.

'मुळां'तलें बुन्यादी प्रतीक कविल्या भौशीक जाणिवांकडेन वाचप्याचें लक्ष ओडून घेता. आधुनिक जिणेंत मनशाक भेश्टावपी व्यक्तिगत दुबळेपण, मानसीक असुरक्षितताय, संस्कृतीक उन्मूलनाचो हुस्को, समाजीक कडसरायणेचो किंवाटो असल्या उद्रेक-उद्वेगांतल्यान 'मुळां'नी मूळ धरलां. जिवितांतलो विरोधाभास, तडजोडी, हावेस आनी विसंगती टिपून घेवपाची कळाशी प्रसादाले कवितेंत आसा. घोणिचे नदरेन नियाळून तो माजराचे पावलटीन बरयता. ताका लागून पुराय कविता वाचून सोंपसर तांतुंतलो उपहासिकतेचो कांटो सलना, व्यंगाचो चुरको बसना. प्रसादाक भाश्य करूंक आवडना. तो परस्पर विरोधी अशा वास्तवाचीं आंगां वाचप्यामुखार मांडटा आनी अळंग कडसरता. हाका लागून तागेल्या तंत्रांत एक वाचप्याक विश्वासांत घेवपाची एक फिशालकाय दिसून येता. तागेले काव्यशैलींतल्यान तागेले लोकवेदाकडेन आशिल्ले अनुबंध जाणवतात. लोकगितांचो बाज, वेंचीक अशी उतसवळ आनी बिनधास्त अभिव्यक्ती हीं तागेल्या 'मुळां'चीं शक्तिस्थळां. तशेंच आशयाचें खेरीतपण पांगरुनय, विशयाच्या मोस्त्रांभोंवतणी पुंजावप हें तागेले कवितेचें एक ठळक वैशिश्ट्य ह्या संग्रहांत दिसता. घडये कविच्या सतत अंतर्मुख जावप पळोवपी चिंतनशल वृत्तीक लागून

जावंये वा तागेल्या तंत्राचे वेगळे वाटेक लागून जावंये, ताची फुडली कविता कितल्या प्रभावान हे गूण दाखयता वा कितल्या सहजपणान वेगळी वाट आपणायता ताची वाट पळोवया.

'पावसफुलां' हीं राजय पवाराल्या तिनूय त्रिकाळ फुलत रावपी सदाफुली सर्जनाची टवटवीत गवाय. हांसकुरीं, सदानंदी कशीं भासपी हीं 'पावसफुलां' पट्ट करून केन्ना दोळ्यांत दूक फुलयत सांगूंक येना. तागेले हे फुलांराशींत अंदल्ल्या पूण मुक्तीक आशेवपी तरण्या मनाचे उन्मेष लिपल्यात. तांतूंत सदचे जिणेंत नकळटना मनाक तोंपत रावपी खंत-उमाळ्यांचे आनी विशाद-विफलतायांचे विविध रंग आसात. पूण तेच वांगडा 'पावसफुलां'क एक खेरीज सुवास आसा – कविचे अजेय वृत्तिचो, तागेल्या निर्मळ निरिक्षणाचो. जिवितांतली बेढब, कुसकी आनी वांगडी वास्तविकताय गरयतना लेगीत तागेली लिखणी एक तोल, एक सुलभ दिसपी पूण कठीण असो लाग मारता. ताका लागून तागेली शैली, म्हॉंवी उतरां संवकळिचीं, पूण कविता अंतर्मुख करपी अशी जाता. ह्या कवितेक भावनीक हळवेपणाचें मोव अस्तर आसा तशें विचारमंथनाचें घुंवळावपी माणेंय आसा.

समाजीक विशमताय आनी व्यक्तिगत विफलताय राजय पवाराचे तरणाटे आनी संवेदनक्षम प्रतिभेक जागयतात. केन्ना उपहास, केन्ना व्यंग, केन्ना तगमग तागेले कवितेंत देंवता. तागेले कवितेचो एक म्हॉंवो गूण म्हळ्यार ती ताका सहज सादल्या अशें वाचप्याक दिसता. तागेल्या तंत्राचे हे जमेंत, तागेल्या काव्याची गेयता, शब्दखेळ आनी लय हांचो व्हड वांटो आसा. हांकां लागुनूच घडये राजयाक उतरांच्यो लगोऱ्यो रचूंक आवडटात. चडशे फावटीं त्यो बेसबऱ्यो संतुलीत वळी जावन तागेल्या कवितांक रसरसायतात. क्वचित केन्नाय मात त्यो मेकपाचो इल्लो अदीक हात ओडिल्ल्यान निजाची सोबितकाय लिपिल्ल्या जुवान तोंडादिव्या वरी जातात. वाचप्यांचे नदरेन हें सांगप सोंपें आलें तरी कविचे नदरेन उतरांचें निश्ठूर नियोजन सोंपें नासता, हेंवूय मानून घेवंक जाय. अदीक करून लयतालाचें भान बाळगुपी कविचो कान तागेल्या शब्दांवेलो ताबो ल्हवूच सैल करता. हें उतरांचें आकर्शण आळाबंदा हाडटां हाडटां राजयाली कविता बळावतली हातूंत दुबाव ना. तागेलीं दिसपट्ट्या वेव्हारांतल्यान उबारिल्लीं रुपकां मनभुलोवणीं आसतात, तशेंच तागेलें प्रतिमाविश्व अनपेक्षितपणान उबें जाल्ल्यान केन्ना केन्ना वळखिचें आसूनय वाचप्याक तटास करता.

फुडाराक 'पावसफुलां'नी गिमाळ्यो कळयो आनी शिंयाळे कांटेय भरसतले. तेवूय आमकां ह्या संग्रहांतल्या कवितांवरीच राजयाचे प्रतिभेची प्रचिती मेळोवन दितले असो विश्वास 'पावसफुलां'नी जागयला.

'वेंचिल्ले खीण' परतून वेंचतना वाचप्याक दिनेश मणेरकाराचे शिटूक नदरेची आनी तीक्ष्ण चिमटेची प्रकर्शान जाणविकाय जाता. ल्हानांतले ल्हान विशय आनी सुक्षिमांतलें सुक्षीम निरीक्षण ह्या निबंदांनी ताणें एकठायलां. ललित गद्य बरोवप ही खावचेली गजाल न्हय. निमित्तीक गजाली आनी दिसपट्ट्यो नविदादी सोदीत भोंवप घडये सोंपें दिसुंये पूण तें सहजपणान उतरांनी पिंतारप दिसता तितलें सुलभ न्हय. हे सुलभ आसपी निवेदनशैलींत बरोवप्याचे घडत गेल्ले साहित्यीक अभिव्यक्तिचें रहस्य आसा. तेचपरी तांतूंत तागेले उत्कट समाजीक जाणविकायेचें प्रमाणूय मेळटा.

'वेंचिल्ले खीण' चड करून सुनापरान्तांतले 'पारजतां'तले मोने कळे. अशा सदराक बरयतना लेखकाचेर एक मर्यादा पडटा – लांबायेची. तशेंच सुटसुटीत वाक्यां आनी चुरचुरीत संवाद हांचो सांठो हाताकडेन दवरचेली चतराय बाळगुची पडटा. दिनेशबाबाक ही कळाशी भोव बरी सादल्या. विंगड विंगड विशय संदर्भ आनी चड करून खेदिश्ट विनोद हांणी तागेल्या 'खिणां'चो थेंबान थेंब पातेला.

ह्या मार्मिक बरोवपाचें आनीक एक खाशेलपण म्हळ्यार तातुंतसून बरोवप्याचें भौरंगी व्यक्तिमत्व आनी मेकळें वाचन हांचोय प्रत्यय येता. विनोदाचो आलाशिरो घेतल्यान जिविताचेर गंभीर विचार करपाचें चुकना. गांभिर्य अदीक जावचेली भिरांतच चिंतनशीळ बरोवप्याक ललीत बरपाचेर विनोदाचो हात ओडूंक प्रेरीत करता जावंक जाय. असलें बरप सर्वसामान्य वाचप्याक मुजरत लक्षांत धरता. तागेल्यो खंती, तागेलो सात्वीक संताप आनी तागेलो असहाय वितराग हांचेर पांगरूण घाली नासतनाय, ताका हांसूंक लावप आनी तागेली जिवितावेली टिपणी अचळय टिपून काडप हें असल्या चुरचुरीत बरपांतल्यान करचें पडटा. दिनेश मणेरकारान तें भोव फिशालकायेन केलां.

पूण अजूनय तागलो सुब्राय आनी बाप्पा तागेले ट्रेंडमार्क जावचे आसात. तांकां एक व्यक्ति म्हूण संदर्भ आयिल्लो ना. घडये लेखकान तो मुद्दामूच तांकां दिलोय नासत. पूण मुखार ल्हवू ल्हवू जर तो तांकां आयलो जाल्यार फुडें वेंचपाचे आसात ते दिनेशाले खीण भांगरावर्खान लकलकतले. तो भांगरावर्ख तागेल्या खासा आपणाल्या 'कॉमन मॅना'च्या व्यक्तिमत्त्वाचो लकलक आसतलो, हें सांगपाची गरज ना.

दिनेशाचे हस्तुकी ह्या म्हॉंवाळ गद्य बरपाची अशीच सेवा घडत उरची!

'कोंकणी भाशेचें अध्यापन' ह्या पुस्तकाचो आसपाव एका अल्पसंख्य बरपावळिच्या विभागांत करचो पडटलो. शास्त्रीक बरप कोंकणी बरोवपी अभावानच हातांत घेता पूण घेता तेन्ना ताचें भांगर करता ह्या आमगेल्या अलिखीत नेमाक 'कोंकणी भाशेचें अध्यापना'न पाळो दिला. आनी हाचें पुराय स्रयं वसंतबाब लवंदेंच्या भौताशी व्यक्तिमत्वाक वेता, हातूंत अतिताय ना. अशें पुस्तक बरोवपाक लेखकाक मुखार एक सुस्पश्ट असो आराखडो आसचो पडटा आनी ते खातीर शास्त्रीक 'नदरयो' बाळगुपी विज्ञाननिश्ठ लेखकय जाय पडटा. शिवाय वेंचीक उतरांचो उपेग कोंकणी भाशेंत केळोवन दुवार्थीपण उबें जावचें ना हाची जतनाय घेवपी चौकस बरोवपीय जाय पडटा. पुस्तक जरी तात्वीक भासाभास करपी आसलें तरी तातूंत आसपावपी विशय आमगेले प्रत्यक्ष जिणेंत पावला कणकणी लागू जावपी आसा. हो विशय बरेपैकी हाताळप्याक भाशेचें अध्यापन, अध्यापनाचें शास्त्र, कोंकणी भाशेच्या खाशेल्या प्रस्नांची जाणविकाय, मानसशास्त्रीय गिन्याना वांगडाच अध्यापनाच्या क्षेत्रांतलो प्रत्यक्ष अणभव आसप म्हत्वाचें. हें सगलें लवंदे हांचेठांय एकठावलां. अध्यापनशास्त्राच्या अध्यापनांतलो तांगेलो दीर्घकालीन अणभव ह्या पुस्तकांत निस्तला.

पुस्तकाचे मांडावळीक पळेल्यार लेखकान केल्ली सुस्पश्ट भासाभास आनी शास्त्रशुद्ध दिश्टिकोण हांचो संयोग आदीं नदरेंत भरता. कांय खेपो सामान्य वाचप्याक उतरावळ मात्शी अनवळखी भासता खरी, पूण सिद्धांतीक तशेंच विज्ञानीक दिश्टिकोनांतल्यान उलयतल्याक अर्थ आनी नेमकेंपण हांचेमुखार ललित आनी सोंपेपणाचो अतिरेक टाळप चुकना. तरिकूय वसंतबाबान शक्य ते तरेन अर्थ आनी सुलभ अभिव्यक्ती हांचें संतुलन बाळगुपाचो यत्न केला. पुस्तकाची जमेची वट म्हळ्यार लेखकाचें मानसशास्त्रीय समजणेची फाटभूंय. बालमानसशास्त्र आनी पौंगडमानसशास्त्र हांचेर वसंतबाबांली भक्कम पकड आसा, हें तांकां वळखुपी खंयचोय अध्यापक जावं विद्यार्थी सांगतलो. त्या परिपक्व अणभवांतल्यान तांगेले विचार वयर सरल्यात.

ह्या पुस्तकाचें कोंकणीच्या अध्यापकांकच न्हय तर कोंकणीचें अध्ययन करूंक वचपी आमचे सारक्या, भुरगेपणांत परभाशेंत शिक्षण घेवंचें पडिल्ल्या दरेका सुजाण कोंकणी मोग्याक वाचन आसूंक फावो. ह्या पुस्तकान कोंकणीचें दालन गिरेस्त आनी भौरंगीय केलां. वसंतबाबा हस्तुकी फुडाराकूय असलीं शास्त्रीय पुस्तकां येतलीं अशी आस्त बाळगितां.

निमाणें: कोंकणींतले पंचखाद्यांतल्या ह्या पांच पुस्तकांचें काळजाथावन अभिनंदन. ह्या लेखकांचो मार्ग विस्तारत वचूं.

* * *

# जाग

वर्स २३

आगस्ट '९६ – जुलै '९७

## साहित्य वळेरी

### ■ वैचारीक/ललीत निबंद

**नदर संपादप्याची**

आगस्ट – स्वराज्य; बाईची याद आयली आयज म्हाका; स्वराज्याचें आंदोलन पर्थून एक फावट ?; देवा, तूंच राख ह्या देशाक.

सप्टेंबर – शिक्षक-दिना निमतान; सर्वे महत्वं इच्छन्ति; कळिंद्री.

ऑक्टोबर – म्हारगाय – कारण; म्हारगाय – उपाय; विवेकानन्दालें हिन्दुत्व.

डिसेंबर – महिषासूर मर्दिनी; भावणिंचेर कित्याक बरोवचें पडटा ?; गांधी फकत आमचो उरूंक ना; धर्मक्षेत्रे-कुरुक्षेत्रे; ही आगळीक परतून लावंया.

जानेवारी – सत्येचें कदेल; कायद्यान न्हय, प्रबोधनान; पुजा न्हय, प्रार्थना; भायरूय काळोख, भितरूय काळोख; शंकर रामाणी.

फेब्रुवारी – ऑडिट केल्लें सत्य; 'कॅक्टस मेन्टालिटी'; खरें काम, समा काम; अबला म्हळ्यार दुबळी ? न्हय; भवचक्रांतल्यान मेकळीक केन्ना ?

मार्च – क्रिस्ताक आमचो करपाक; उतरांचे अर्थ निश्चीत करूंया; लक्ष्मी; वाश्कु द गामा पंचशताब्दी उत्सव.

एप्रिल – वृक्षवल्लरी आम्हां सोयरीं वनचरें; अभिमान न्हय, भक्ती जाय; केदो पुरुषार्थ आमचो!; मुसाफिर सोता है बेहोस; लूट ही, लांच ही; पुस्तकांच्या खपाक टीवीचो आधार मेळत व्हय ?

मे – राजकर्ण; आवय; अंग्रेजी हटाओ, कशी आनी किद्याक.

जून – नवो मॉडेल आमीच संवसाराक दिवंया; कॅन्सर जावंक ना अजून तुमकां ? जातलो; धवे हती; राष्ट्रगिता वांगडा विश्वगितूय; घौके ही घौके डहकायो.

जुलै – इकॉलॉजी – कल्की अवतार; बाकीबाब; यंत्रयुगांतलो वाश्कु-द-गामा.

**हेर**

आगस्ट – टिळक – सुमन्त केळेकार

सप्टेंबर – अ. का. प्रियोळकारांक आदरांजली – प्रि. सु. तडकोडकार
ज्योतीश – महादेव नाडकर्णी

नोव्हेंबर – देवाची सुवात देवळांत न्हय, काळजांत – रवीन्द्र केळेकार
गीतेंतलो थीरबुद्धी मनीस – सुरेश आमोणकार
म्हज्या वायटांतले अणभव – शीला कोळंबकार
शिवराकाचे पंगतीक अन्नपुर्णेची थाळी – डॉ. किरण बुडकुले

डिसेंबर – नाटक आनी तंत्रीक गरजो – राजय पवार

फेब्रुवारी – गोंयच्या लोकवेदांतलें जैवीक संपदेचें दर्शन – पांडुरंग रा. फळदेसाय

मार्च – कवितेंत कविचो दिश्टावो – रमेश वेळुस्कार

एप्रिल – शोकनाट्याचो नायक : ॲरिस्टोटलाचे नदरेंतल्यान – प्रियदर्शनी तडकोडकार

मे – स्वनीम-विचार : भाशेचें नादांचें व्याकरण – माधवी सरदेसाय

जून – जिणेंतलो उजवाड : भो. रा. अडवलपालकार

जुलै – कन्नड लिपिंतली कोंकणी बरपावळ – चा. फ्रा. देकोस्ता

ऑगस्ट ९६ – जुलै ९७ — तथागत (११ खिस्ती)

### साहित्य नियाळ / समिक्षा

आगस्ट – नक्षत्रां – आर. एस. भास्कर
नियाळ : नागेश करमली

सप्टेंबर – ब्रह्मकमळ – शंकर रामाणी
नियाळ : नागेश करमली

ऑक्टोबर – काणी जाली चली – यशवंत चित्ताल
अणकारपी – मेलवीन रॉड्रिग्स
नियाळ : प्रकाश पर्येकार

डिसेंबर – ता ता तिंगण – संतोषकुमार गुल्वाडी
नियाळ : श्याम वेरेंकार

जानेवारी – नेहरू आनी गोंय – झोतिकु द सौज
नियाळ : रवीन्द्र केळेकार

फेब्रुवारी – माणकुलो राजकुंवर – आंत्वान द सैंतेक्झ्युपेरी
अणकारपी : माधवी सरदेसाय
नियाळ : डॉ. चंद्रलेखा डि सौजा

मार्च – वेंचिल्ले खीण – दिनेश रा. मणेरकार
नियाळ : नागेश करमली

एप्रिल – पिसो इवान – लेव टॉलस्टॉय
अणकारपी – गोदूबाय केळेकार
नियाळ : डॉ. तानाजी हळर्णकार

मे – श्रवोण – गोड्यां होराणे गीतक
संपा. – पी. जी. कामत (केरळ कोंकणी अकादमी)
नियाळ : प्रा. श्याम वेरेंकार

जून – धम्मपद – सुरेश गुंडू आमोणकार
नियाळ : र. के.

जुलै – काळी गंगा – महाबळेश्वर सैल
नियाळ : दामोदर मावजो

### इतिहासाचीं पानां

आगस्ट-ऑक्टोबर – येवकार अध्यक्षांलें उलोवप – शणै गोंयबाब (तीन वांटे)

डिसेंबर – शांबाराव सरदेसाय हांगेली एक चीट.

जानेवारी – ग. त्र्यं. माडखोलकर हांच्यो दोन चिटी.

फेब्रुवारी – दि. के. बेडेकर हांची एक चीट.

मार्च – NO CHOICE, NO FREEDOM — Inaugural Address by Prof. Armando Menezes at the Goa, Daman, Diu Anti-Merger Convention, Margao. April 17-18, 1965.

एप्रिल – ह. वि. मोटे हांची एक चीट.

मे – कोंकणी राज्य.

जून कॅथलिक चर्च आनी धर्मसमन्वय: काकासाहेब कालेलकरांच्यो दोन चिटी आनी वॅटिकनचे प्रतिनिधी रोस्सानो हांचें एक उलोवप.
जुलै कोंकणी चळवळी विशिंची जिज्ञासा — कॉलिन मासिका हांची चीट.

## ■ कथा/दीर्घकथा

ऑगस्ट और – मधुसूदन जोशी
ऑक्टोबर भोम – मधुसूदन जोशी
नोव्हेंबर तडजोड – दामोदर मावजो
तो एक तिस्मरखाँ – मीना काकोडकार
दूख – महाबळेश्वर सैल
चकचकता तें भांगर न्हय – चंद्रकांत केणी
सायाराचे आंबे – सुरेश पिळर्णकार
किर्ति-पुरूश – देविदास कदम
आनी ते पोट घेवन गेले – प्रकाश पर्येकार
आनवारी आनी पोनकुरीश – नायकम मुहम्मद बशीर
(अणकारपी: आर. के. राव)
काकळूत आयली देखून (तमीळ) — अणकारपी: मुकेश थळी.
डिसेंबर संगम – आनंद वर्टी
जानेवारी मोर्नाची खबर – डॉ. एडवर्ड नाझारेथ
फेब्रुवारी नायगारा फॉल्स
मूळ बरोवपी: सॅन्ड्रा बर्डसेल
अणकारपी: संध्या भांडारी सिकैर
मार्च भांगराचो देस – माया खरंगटे
एप्रिल फट – देविदास कदम
मे निमाणी मैफल – गजानन जोग
जून खुंटो – मधुसूदन जोशी
जुलै सावत्र आवय – सुधा खरंगटे

## ■ नाटकुलें

जानेवारी वयलो मजलो – कर्तार सिंह दुग्गल
अणकारपी: रमेश वेळुस्कार

## ■ कविता

आगस्ट तरीय पावसा – भालचंद्र गांवकार
घो घो पावस – नागेश करमली
मुळसांतलो पावस: णव कविता – परेश नरेंद्र कामत
चित्र – माधव बोरकार
ओली कविता – नूतन साखरदांडे
तूं, हांव आनी सत्री – राजय रमेश पवार
गगनसुंदरी – पूर्णानंद च्यारी
सप्टेंबर लजकी लजली पूण – प्रकाश पर्येकार
वैशाख – शंकर रामाणी
रगताचो धर्म – प्रकाश पाडगांवकार
ऑक्टोबर दोन कविता महात्मा गांधीजीचेर – प्रकाश पाडगांवकार
फेरयेंतलें पाळणें – शंकर रामाणी
शेजार – परेश नरेंद्र कामत
समजावणी – माधव बोरकार
नोव्हेंबर म्हजे कवितेची आत्मकथा (मुक्तक) – नागेश करमली
जनेल – शंकर रामाणी
मुळावे शाळेंत आन्दोलन (मूळ मल्याळम) – पी. भास्करन
अणकारपी: अभयकुमार
पणजी – बाळकृष्ण कानोळकार
यमन – माधव बोरकार
हायकु – राजय पवार
तिश्टवणी – निलबा अ. खांडेकार
आज्जेची काणी – गजानन जोग
हांसात हांसात तुमी, आजूच हांसात – रमेश घ. लाड
रोयलें तें लुंवता – आर. एस्. भास्कर
मुर्तिकार – प्रकाश पाडगांवकार
राधेलो श्याम – प्रभाकर नाडकर्णी
सवाल – ॲन्सी पालड्का
सारकें – शरतचंद्र शेणै
डिसेंबर तीन कविता – माधव बोरकार
मूळ – सु. म. तडकोड
'तांची' एक कविता – रवींद्र रमाकांत म्हाड्डोळकार
मोगाचो उल्हास – फ्रोयलान माशाद
जानेवारी एक खीण (मूळ ब्राझिलियन) – मानुयेल नंदेयर
अणकारपी: शंकर रामाणी
त्रिपदी – माधव बोरकार
मोती – आर. एस्. भास्कर
सवणें – रवींद्र रमाकांत म्हाड्डोळकार
फेब्रुवारी जागर – परेश नरेंद्र कामत
एक कविता 'आवय'ची – रवींद्र रमाकांत म्हाड्डोळकार
मार्च युगांतर – शरतचंद्र शेणै
एप्रिल कट्टेंत क्रांत उसळ्ळ्या – राजय पवार
दुसरें भुरगेपण (मूळ तेलगू) – ऐलेनि गिरी
अणकारपी: रवींद्र रमाकांत म्हाड्डोळकार
मुक्तायन – परेश नरेंद्र कामत
तूं – माधव बोरकार
मे गंधित वारो – रमेश घ. लाड
शिशिरांतलीं शेंवतीं फुलां (गजल) – प्रभाकर नाडकर्णी
पत्र – माधव बोरकार
भोंवडी – सुरेश गुंडू आमोणकार
याद येता गांव – राजय पवार
जून सोद – शंकर रामाणी
रुपडीं – सखाराम शणै बोरकार
राधा – माधव बोरकार
गोविंद – माधव बोरकार
नाराणत्त – आर. एस्. भास्कर
जीव – शरतचंद्र शेणै
जुलै व्हिडियो मर्ण (मूळ मल्याळम): के. अय्यप्पा पणीकर
अणकारपी: शंकर रामाणी
तीन कविता – माधव बोरकार
चारोळ्यो – राजय पवार
घे पालवांत – परेश नरेंद्र कामत

JAAG MONTHLY, SEPTEMBER 1997

Regd. No. GOA 130